सोद KONKANI RESEARCH BULLETIN : 7
तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, आल्त पर्वरी, गोंय



सोद is a research bulletin edited, produced and published as part of the researc efforts of Thomas Stephens Konknni Kendr (TSKK) devoted to th promotion of education and research in Konkani language, literature, an culture. We would like to produce two numbers of the Bulletin in a yea but it depends on the availability of funds.

**Copies** of the present number are available at Rs. 50/- each (postage extra) t cover production expenses of a limited number of copies. Those wh would like to obtain copies in the future, should leave their address wit TSKK so that they can be informed when a fresh number is published.

**Address** for correspondence : THOMAS STEPHENS KONKKNI KENDR
B. B. Borkar Road, Alto Porvorim
GOA – 403 521, INDIA

# विशय सुची

# संपादकीय

*सोद-7* अंकाचे सगळे लेख संपादकान आदींफुडें आपले येवजणे प्रमाणें लेखकांक बरोवपाक सांगूंक नासले, पूण पयले चार कोंकणी लेख एका इतिहासीक क्रमान आयल्यात. पयलो लेख दो. राकी वि. मिरांदान पोरणे कोंकणिचेर बरोच अभ्यास करून बरयला. तांतूं पोरणे कोंकणींत नकारसूचक 'न' कसो वापरतालीं, आनी तो अर्वाचीन कोंकणींत कसो आमकां पळेंवक मेळता हाचेर भासविज्ञानीक समजणी मेळता.

पुस्तकांनी कोंकणी बरोवपाक देवनागरी पयल्यांत पयलीं वापरूंक सुरू केल्ली मोंसिञोर दाल्गादान. ह्या भासविज्ञानिचें जिवीत, आनी ताणें कोंकणी खातीर केल्लो भोवतासांचो वावर – कोंकणी कोश, तुलनात्मक भासविज्ञान, उतरांची उतपत्ती आनी शब्द इतिहास, व्याकरणी वावर, संस्कृत शिकप आनी शिकोवप, कोंकणी लोकवेदाचो पुंजो, *कोंकणी वोपारिंचो झेलो* – ही सगळी माहिती दिवपी लेख दुसरे सुवातेर दिला. ह्या म्हान गोंयकार भासविज्ञानिची वळक रोमी लिपयेंत कोंकणी वाचतल्यांक आसतली, पूण बऱ्याचश्या देवनागरी लिपयेंत कोंकणी वाचतल्यांक नासत. देखून ह्या विशयाचेर एक लांब लेख हांगा दिला.

शणै गोंयबाबाच्या 125व्या जल्मवर्सा संदर्भार आमकां ताचेर आनी ताच्या वावराचेर नेमाळ्यांनी जायते लेख वाचूंक मेळले. *सोदां*तूय वाचप्यांक कांय लेख दिल्ले. 125व्या जल्मवर्सा उगडासाक 2004 वर्सा घडोवन हाडिल्ल्या एका राश्ट्रीय चर्चासत्रांत सादर केल्ल्या प्रपत्राचेर आदारीत एक लेख हांगा दिला. तो गोंयबाबाच्या विचारांचेर चिकित्सक नदर घालताना हेर भासांतल्या साहित्यिकां कडेय तुलना करपी.

तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र गेल्ल्या वर्सा थावन ब्राज़िलाच्या दोगां भासविज्ञानीं वांगडा जोड अभ्यास करूंक लागलां. दो. ज्यां-पियेर आंजेनो आनी ताची घरकार्न दो. जेराल्दा आंजेनो, आनी तांचे चार जण Ph.D. विद्यार्थी हांगा कोंकणी शिकतालीं तीं आतां सिद्दी कोंकणिचेर केंद्रांतल्या भासविज्ञानीं वांगडा सोदवावर करूंक लागल्यांत. दो. ज्यां-पियेर आंजेनो आनी ताच्या एका विद्यार्थ्यान बारदेशी कोंकणी आनी सिद्दी कोंकणी ह्या दोन बोलयांची ध्वनीविज्ञानीक तुलना करपी लेख बरयला तो हांगा दितांव.

साहित्य विमर्शेच्या क्षेत्रांत नवें चिंतप, नवे सिद्धांत येतात तांचेर आमकां माहिती दिवपाक गोंय विश्वविद्यालयाच्या इंगलीश विभागाचो पालव आमी घेंवचोच पडता. दो. किरण बुडकुलेचो लेख आमी दिलाच. त्या भायर त्या विभागाचो आतांचो मुखेली आनी आदलो शिकोवपी, हांचे दोगांयचे लेख हांगा आमी दितांव. पयलो लेख साहित्य संहिता आनी इतिहास हांचे मदल्या संबंदांचेर बरयल्लो आसा. कांय समिक्षेचे सिद्धांत इतिहासांत परत परत पुनर्जल्माक येतात, पूण तांचो भेस आनी प्रभाव दर खेपे वेगळो आसता. साहित्याक इतिहासीक संदर्भ कितलो म्हत्वाचो, साहित्यीक संहितां शिवाय इतिहास कसो शिकूं येत, इतिहासांत भास आनी ती उलोवपी कितलीं बदलतात – हे आनी असले प्रस्न ह्या लेखांत हाताळल्यात.

साहित्य विमर्शेचेर बरयल्लो दुसरो लेख भारतांत रावपी आनी परदेसांक पावलले भारतीय इंग्लेजींत बरोवपी लेखक, हांच्या साहित्याचेर एक विमर्शक नदर घालता. इंग्लेज साहित्याचो अभ्यास काळ बदलता तसो बदलतलो काय आदीं आसतालो तसोच उरतलो? नव्या सहस्त्रकांत ताका कसलो आकार मेळतलो? भारतीय संस्कृताय इंग्लेजींत वा एवरोपी भासांनी भाशांतर करूंक मेळतली व्हय? भारतांत जाता तो इंग्लेज अभ्यास वसाहत काळांत जातालो तसोच उरतलो काय नवे क्रांतिकारी दिशेन फुडें वचून नव्या आव्हानांक तोंड दितलो? ह्या आनी असल्या प्रस्नांक जाप सोदपी हो लेख.

2002 वर्सा कोंकणी बरपांत आमी कितलीं फुडें पावल्यांव वा फाटीं पडल्यांव हाचो नियाळ घेवपी लेख अखेरेक दिला. हांतूं कितलीं, कसलीं आनी खंयचीं पुस्तकां देवनागरी, कन्नड, रोमी आनी पर्सो अरेबीक लिपयांनी त्या एका वर्सा उजवाडाक आयलीं, हाची सगळ्याची नोंद तो घेता. खंय आमी उणें पडतांव तें दिल्ल्यो वळेरी स्पश्ट करतात. आमचें कोंकणी बरप जायतें फुडें गेलां, जायतें सुदारलां, अशें म्हणून आमी आमकांच फटयनांत मू? अखेरेक, गेल्ल्या अंकांत कोंकणी नेमाळ्यां विशीं जी माहिती आमकां चुकली ती हांगा दिल्या.

*आल्त पर्वरी, गोंय*
*31 जुलाय 2004*

*मातेव आल्मेद, जे.स.*

# कोंकणींत नकारसूचक ‘न’

*दो. राकी वि. मिरांद*
भासविज्ञान संशोधक
मैसूर - 570 023

संस्कृत भाशेंत नकारसूचक ‘न’ क्रिये पयलीं मेळटा. अर्वाचीन कोंकणी भाशेंत नकारसूचक क्रिये नंतर येता. प्राचीन कोंकणी भाशेंत नकारसूचक खंय येता? प्राचीन कोंकणी ग्रंथानीं हें थोडे पावटी क्रिये पयलीं मेळटा, थोडे पावटी नंतर. पूण पयलीं आनी नंतर हाचें रूप एकूच न्हंय. क्रिये पयलीं येताना नकारसूचक निपातरूप (particle) धरता पूण नंतर येताना हें क्रियेचें रूप धरता. देखीक[1]:

| | |
|---|---|
| *to na-padda* | *to padda nâ’* |
| तो न -पड | तो पड नां |
| (तो पडनां) | (तो पडनां) |
| *te na-paddati* | *te padda nâ’ti* |
| ते न - पडति | ते पड नांति |
| (ते पडनांत) | (ते पडनांत) |

पूर्ण वर्तमानकालीक रुपानीं नकारसूचक प्रधान क्रिये नंतर येता पूण थंय तें क्रियारूप धरिनां. त्या बदलाक ‘ने’ ह्या विशेश निपात-रुपाचो प्रयोग मेळटा. आनी हाचे पयलीं प्रधान क्रियेच्या पूर्ण वर्तमानकालीक रुपा बदलाक प्रधान क्रियेचें धातुरूप मेळटा.

देखीक :

*khelale’ azunu zira ne*
खेललें आजुनु जिर ने
(खेल्लें/ खाल्लें अजून जिरलें नां)

---

[1] लेखांत उदाहरणां दिताना पयले वळींत उतरां प्राचीन कोंकणींत रोमींत बरयल्यांत तशीं दिल्यांत, दुसरे वळींत प्राचीन कोंकणींत आमी देवनागरींत दिल्यांत (हीं संस्कृतांत वाचतात तशें वाचपाचीं), आनी तिसरे वळींत अर्थ समजुपा खातीर अर्वाचीन कोंकणींत देवनागरींत दिल्यांत. - सं.

प्राचीन कोंकणींत थोड्याच क्रियरुपानीं नकारसूचक 'न' क्रिये पयलीं मेळटा. सकयल दिल्ल्या अविधेय क्रियारुपानीं नकारसूचक 'न' अवश्य क्रियारुपा पयलीं येता.

| | | |
|---|---|---|
| नामकारी (Infinitive): | *dharu'-ka* | *na-dharu'-ka* |
| | धरुं -क | न -धरुं -क |
| | (धरूंक) | (धरिनां जांवक) |
| क्रियार्थक नाम (Gerund) | *dharu'-che'* | *na-dharu'-che'* |
| | धरुं -चें | न -धरुं -चें |
| | (धरचें) | (धरिनां जांवचें) |
| क्रियार्थक नामघटीत नामकारी | *dharu'-cheâca* | *na-dharu'checa* |
| | धरुं -च्याक | न -धरुंच्याक |
| | (धरच्याक) | (धरिनां जांवच्याक) |
| क्रियाविशेशणीक रूप 1: | *dhari-tâ'* | *na-dhari-tâ'* |
| | धरि -तां | न -धरि -तां |
| | (धरतां) | (धरिनासतां / धरिनां आसतां) |
| क्रियाविशेशणीक रूप 2: | *dhari-tanâ'* | *na-dhari-tanâ'* |
| | धरि -तनां | न -धरि -तनां |
| | (धरतानां) | (धरिनासतानां/धरिनां आसतानां) |
| संयोजक क्रियाविशेशणीक रूप: | *dhor-nu* | *na-dhor-nu* |
| | धोर् -नु | न -धोर् -नु |
| | (धरून) | (धरिनासतानां/धरिनां आसतानां) |

विधेय क्रियारुपां मधें सरळ वर्तमानकालीक क्रियारुपानीं क्रिये पयलीं नकारसूचक 'न' हाचो प्रयोग भरपूर मेळटा.

*hâ'ua na-padda-'.* (उत्तम पु. ए.व. वर्तमान)
*âmy' na-padd-u'.* (उत्तम पु. ब.व. वर्तमान)
*tu' na-padda-ssi* (मध्यम पु. ए.व. वर्तमान)
*te na-padda-ti* (प्रथम पु. ए.व. वर्तमान)

पूण हांगा प्रधान क्रिये पयलीं नकारसूचकाचें निपातरूप आनी प्रधानक्रिये नंतर नकारसूचकाचें क्रियारूप हीं दोनूंय मेळटात. हीं पर्यायरुपां पळया.

*hâ'ua padda nâ'.* (उत्तम पु. ए.व. वर्तमान)
*âmy' padd- nau'.* (उत्तम पु. ब.व. वर्तमान)
*tu' padda-nâ'ssi* (मध्यम पु. ए.व. वर्तमान)
*to padda nâ'* (प्रथम पु. ए.व. वर्तमान)
*te padda nâ'ti* (प्रथम पु. ए.व. वर्तमान)

वयर सरळ वर्तमानकालीक रुपां आधुनीक कोंकणींत दिंवक नांत कित्याक तर 'आसां', 'जाणां', असल्यो क्रिया सोडल्यार, आधुनीक कोंकणिच्या थोड्याच बोलिनीं सरळ वर्तमानकालीक रुपां मेळटात.

विधेय क्रियारुपां मधें सरळ वर्तमानकाळ सोडल्यार दुसरे कडेन क्रिये पयलीं नकारसूचक येंवचें अपरूप. प्राचीन कोंकणी महाभारतांत, 250,000 शब्दांच्या ह्या बरपांत, नकारसूचक पयलीं आशिल्लें फकत एक अपूर्ण वर्तमान रूप मेळटा, एक पूर्ण वर्तमान रूप मेळटा, आनी तीन हेतुमत काळाचीं रुपां मेळटात.

देखीक,
*tu' hikâ mârtâ quy na-mârtâ?*
तूं हिका मार्ता की न -मार्ता?
(तूं हिका मारता की मारिनां?)

*Hanuma'tâka bhitari uachu'ca rigu na-zâlo.*
हनुमंताक भितरि वचुंक रिगु न -जालो.
(हनुमंताक भितर वचूंक रीग जालो नां.)

दुसरे कडेन सगळ्यान अपूर्ण वर्तमान, पूर्ण वर्तमान, इत्यादी रुपां आधुनीक कोंकणींत आसात तींच मेळटात. ह्या वरवीं प्रचीन कोंकणींतूच क्रिये पयलीं येंवच्या नकारसूचक रुपांचो ह्रास आरंभ जाल्लो हें स्पश्ट जाता.

क्रिये पयलीं नकारसूचक 'न' येतानां हें निपातरूप वेगळें उरनां, क्रिये वांगडा ताचें योजन (agglutination) जाता, तें एक कूस (affix) जाता. ह्या योजनाचो पुरावो दिवप ह्या लेखाचो मुख्य उद्देश.

कोंकणी भाशेच्या इतिहासांत थोडीं असलीं ध्वनिपरिवर्तनां जाल्यांत जीं शब्दाच्या पयल्या अक्षराक लागू जयनांत, मागीरच्या अक्षरांक मात्र लागू जातात. 'न' ह्या निपातरुपाच्या योजनाचो पुरावो आमकां असल्या ध्वनिपरिवर्तनां मुखांतर मेळटा.

देखीक, संस्कृत या प्राकृत 'आ' स्वर कोंकणींत शब्दाच्या पयल्या अक्षरांत आसा तसो उरता पूण मागिरच्या अक्षरांत तो क्षीण जावन 'अ' जाता.

| संस्कृत | प्राचीन कोंकणी | अर्वाचीन कोंकणी |
|---|---|---|
| *Kumāra* | *ku'aru* कुंवरु | (कुवर) |
| *smašāna* | *mhasanna, massanna* | (म्हसण) |
| *gopāla* | *goully* | (गोवळी) |
| *kapāla* | *kapala* | (कपल) |

'गोवळी' ह्या शब्दांत ह्या क्षीण जाल्ल्या स्वराचो लोप जाला.

आतां आमीं प्राचीन कोंकणीचीं सुरवेक 'न' आशिल्लीं क्रियारुपां पळेंवक गेल्यार थंय आमकां हीच प्रक्रिया दिश्टी पडटा. क्रियारुपा पयलीं 'न' आयलें तर क्रियारुपाच्या पयल्या अक्षरांत 'आ' क्षीण जावन 'अ' जाता. कित्याक तर सुरवेक 'न' येतच क्रियारुपाचें पयलें अक्षर शब्दांत पयलें अक्षर न्हंय, मागिरचें अक्षर. आनी मागिरच्या अक्षरांत ताचें क्षीण जावप सहज.

| | | |
|---|---|---|
| *zâtâ'* जातां | *na-zatâ'* न-जतां | (जायनासतानां) |
| *lâitâ'* लायतां | *na-laitâ'* न-लयतां | (लायनासतानां) |
| *lâgatâ'* लागतां | *na-lagatâ'* न-लगतां | (लागनासतानां) |
| *sângatâ'* सांगतां | *na-sangatâ'* न-संगतां | (सांगनासतानां) |
| *âicatâ'* आयकतां | *na-aicatâ'* न-अयकतां | (आयकनासतानां) |
| *ghâlitâ'* घालितां | *na-ghalitâ'* न-घलितां | (घालिनासतानां) |

| | | |
|---|---|---|
| *râva* राव | *na-râva* न-राव | (रावनां) |
| *mâry* मारी | *na-mary* न-मरी | (मारिनां) |
| *ttâ'ca* टांक | *na-tta'ca* न-टंक | (तांकनां) |

असलें आनी एक ध्वनिपरिवर्तन आसा. कोंकणींत शब्दाच्या पयल्या अक्षराचे सुरवेक अल्पप्राण व्यंजन आनी दुसऱ्या अक्षराचे सुरवेक महाप्राण व्यंजन येत जाल्यार, महाप्राणत्व दुसऱ्या अक्षरा कडल्यान पयल्या अक्षराक उडी मारता.

| संस्कृत | प्राकृत | प्राचीन कोंकणी | अर्वाचीन कोंकणी |
|---|---|---|---|
| kakṣa | kakkha | khâka | (खाक) |
| dṛḍha | daḍha | dhadda | (धड) |
| pṛṣṭi | paṭṭhi | phâtti, patti | (फाट) |
| dadhi | dahi | dhai' | (धंय) |
| tasmin | tamhi, tahĩ | thai' | (थंय) |
| bahu | bahu | bhouu | (भोव) |
| daša | dasa, daha | dhâ | (धा) |
| pantha | pantha | phântu | (फांतां) |
| yuddha | jujjha | zhuza | (झूज) |
| budhya | bujjha | bhuzâuanna | (भुजवण) |
| pākhaṇḍa | pākhaṇḍa | phâkândda | (फाकांड) |
| prathama | puḍhama | phudde | (फुडे) |

हांगा थोड्या संस्कृत शब्दानीं दुसऱ्या अक्षराचे सुरवेक महाप्राण व्यंजन नां, पूण त्या शब्दांच्या प्राकृत रुपानीं दुसऱ्या अक्षराचे सुरवेक महाप्राण व्यंजनाचो विकास अवश्य जाला. ह्या परिवर्तनांत 'ह' हें व्यंजन महाप्राण व्यंजना तुल्य म्हणून समझून घेंवचें.

सुरवेक महाप्राण व्यंजन आशिल्ल्या क्रियारुपां पयलीं 'न' हें निपातरूप येत जाल्यार कितें जाता? हांगाय महाप्राणत्व दुसऱ्या अक्षरा कडल्यान पयल्या अक्षराक उडी मारता.

| | | |
|---|---|---|
| mhanna-tâ' | nha-manna-tâ | (म्हणनासतानां) |
| uhara-tâ' | nha-uara-tâ' | (व्हरनासतानां) |

| | | |
|---|---|---|
| ghadda-t-ale’ | nha-gadda-t-ale’ | (घडनां तें) |
| hote’ | nhaote’, nha-ua-te’ | (आसनां तें) |

‘न्हगडतलें’ आनी ‘न्हवतें’ हे दोन शब्द दियोगु रिबेयरान 1626 इसवेंत तयार केल्ल्या कोंकणी शब्दकोशांतले.

फुडल्या उतराचे सुरवेक स्वर आसत जाल्यार ‘न’ ह्या निपात-रुपाच्या स्वराचो लोप जाता: देखीक,

| | | |
|---|---|---|
| âuaddatâ | nâuaddatâ | (आवडनां) |
| âikatâ | naikatâ | (आयकनां) |
| ulaitâ | nulaitâ | (उलयनां) |

पूण असो स्वरलोप जाता देखून ‘न’ हो वेगळो शब्द न्हंय, कूस मात्र अशें म्हणूंक जायनां कित्याक तर कडेक स्वर येंवच्या शब्दा फुडे सुरवेक स्वर आशिल्लो आनी एक शब्द येत जाल्यार पयल्या शब्दाच्या आखेरच्या स्वराचो लोप जांवक शक्य आसा.

आतां न + क्रियारुपानीं एक अदीं मदीं जावपी (sporadic) ध्वनिपरिवर्तन पळेया :

| | | |
|---|---|---|
| puro | nupuro | (पावनां) |
| de | nede | (दिनां) |
| dekha | nedekha | (देखनां) |
| zeui | nezeui | (जेविनां) |
| mella | nemalla | (मेळनां) |

हांगा न्हंयकारी रुपानीं आमकां स्वर समिकरण दिश्टी पडटा. क्रियारुपाच्या पयल्या अक्षरांतल्या स्वराक ‘न’ निपातरुपाच्या स्वराचें पूर्ण समिकरण जालां. निमाण्या शब्दांत क्रियेरुपाच्या पयल्या अक्षरांतलो स्वर मागीर बदल्ला सो दिसता. अथवा हांगा वर्ण अदलाबदल जाला जांवक पुरो.

असलें स्वर समिकरण सहज जावन जांवचें शब्दां भितर. देखून हो लेगीत ‘न’ ह्या निपातरुपाच्या योजनाचो एक पुरावो.

निपातरूप ‘न’ संस्कृत भाशेंत एक स्वतंत्र शब्द, पूण प्राचीन कोंकणींत तें एक कूस जाता. आधुनीक कोंकणींत हाची अवस्था कितें जाता?

तें करूं नये. (= तें करचें न्हंय.)   (न + ये)
तें करूं नज. (= तें करच्या जायनां) (न + जा)

कोंकणी भाशेचो इतिहास जाणा आशिल्ल्याक ‘नये’असल्या शब्दानीं नकारसूचक ‘न’ च्या अस्तित्वाची चेतना आसूं येत. पूण साधारण कोंकणी मनशाक हाच्या अस्तित्वाची चेतना आसूंक शक्य नां.

‘नये’ आनी ‘नज’ ह्यो आधुनीक कोंकणींत सहायक क्रिया. पूण प्राचीन कोंकणींत हांचो प्रयोग प्रधान क्रिया आनी सहायक क्रिया दोनूंय रुपानीं जातालो.

| | |
|---|---|
| 1. hâ'ua thayi' na-ye'. | हांव थंय येनां / येंवचो नां. |
| 2. bânnu nirphallu na-za. | बाण निश्फळ जायनां / जांवचो नां. |
| 3. kaneâ diu' naye. | कन्या दिंवची न्हंय. |
| 4. mazeâna thai' uachu'ka naza. | म्हज्यान थंय वचूंक नज. |

आधुनीक कोंकणींत वाक्य 1 आनी 2 व्याकरणसंगत न्हंय कित्याक तर ह्या वाक्यानीं ‘नयें’ आनी ‘नज’ ह्यो प्रधान क्रिया. वाक्य 3 आनी 4 व्याकरणसंगत. ह्या वाक्यानीं ‘नये’ आनी ‘नज’ ह्यो सहायक क्रिया.

‘नये’ आनी ‘नज’ ह्या उतरां शिवाय आधुनीक कोंकणींत ‘न’ हो घटक आशिल्लीं दुसरीं थोडीं उतरां उल्ल्यांत : नेणां, नकळं, नां, इत्यादी. नेणां (= नकळं) हें उतर प्राचीन कोंकणींत अशेंच आशिल्लें. प्राचीन कोंकणी मनशाक ‘न’ ह्या नकारसूचक कुसाच्या अस्तित्वाची चेतना अवश्य आशिल्ली – हांतूंत दुभाव नां. पूण ध्वनिपरिवर्तना निमतीं जाल्ल्या अस्पश्टताये वरवीं ‘नेणां’ (सं. Na ǰānāmi) ह्या उतराचे घडणुकेंत ‘न’ आनी ‘जाणां’ हे शब्दघटक आसात ही चेतना ताका भोव करून नाशिल्ली.

‘नेणां’ आनी ‘नकळं’ ह्यो आधुनीक कोंकणींत प्रधान क्रिया. असली आनी एक क्रिया म्हळ्यार ‘नां’. हाचो प्रयोग प्रधान क्रिया आनी सहायक क्रिया दोनूंय थरानीं जाता :

तो नां.
तो वचनां.
तो गेलो नां.

‘न’ आनी ‘आसां’ ह्या घटकांच्या योजनान ‘नां’ हाचें निर्माण जालां. कोंकणिच्या बोलयानीं ‘आसा’ हाचो उच्चार क्षीण जावन ‘आहा’, ‘आआ’, ‘आ’, जांवचो आसा. हांगा ‘न’ चें योजन ‘आसा’ हांतूंत जालां अथवा ‘आसा’ हाचें योजन ‘न’ हांतूंत जालां हें सांगूंक जायनां. ह्या दोनूय घटकांचें दुसऱ्या उतरानीं योजन जाता. भारतीय आर्य भासांच्या इतिहासांत जायते कडेन पयलीं येंवच्या कृदंतांत ‘आसा’ हाचें योजन जालां.

‘नां’ हांतूंत ‘न’ आनी ‘आसां’ ह्या घटकांच्या अस्तित्वाची चेतना साधारण कोंकणी मनशाक नां जांव येत, पूण प्राचीन कोंकणिंतूच न्हंय, आधुनीक कोंकणींत लेगीत ‘नां’ हें क्रियारूप ‘न’ + संयोजक (copula) हाका तुल्य म्हणून, हांतूंत ‘न’ आनी ‘आसा’ ह्या घटकांचो मेळ आसा म्हणून, भासवैज्ञानीक विश्लेशणा मार्फत स्पश्ट दाखोंव येता. सकयल दिल्ल्या साम्यवाचक वाक्यां मधें जंय हयकारी वाक्यानीं संयोजकाचो लोप अनिवार्य आसा थंय समतोल न्हंयकारी वाक्यांनी ‘न्हंय’ ह्या निपाताचो प्रयोग अनिवार्य. हांगा ‘नां’ हाचो प्रयोग व्याकरणसंगत न्हंय. वाक्य 1, 2 आनी 3 पळेया.

1. तो म्हजो इश्ट.
2. तो म्हजो इश्ट न्हंय.
*3. तो म्हजो इश्ट नां.

गुणसूचक वाक्यां मधें हयकारी वाक्यानीं संयोजकाचो लोप वैकल्पीक. देखून वाक्य 4 आनी 6 दोनूंय व्याकरण-संगत. पूण ह्या वाक्यानीं

थोडो अर्थभेद आसा. हांगा समतोल न्हंयकारी वाक्यानीं लेगीत संयोजकाचो लोप वैकल्पीक. वाक्य 5 आनी 7 पळेया.

4. तें मोव.
5. तें मोव न्हंय.
6. तें मोव आसा.
7. तें मोव नां.

स्थानसूचक वाक्यां मधें जंय हयकारी वाक्यानीं संयोजकाचो लोप करूंक जायनां, थंय समतोल न्हंयकारी वाक्यानीं लेगीत नकारसूचक निपातरूप 'न्हंय' जोडूंक जायनां. हांगा क्रियारूप 'नां' हेंच जोडूंक जाय. वाक्य 8, 9, 11 आनी 12 पळेया. वाक्य 10 व्याकरण-संगत न्हंय. वाक्य 11 आनी 12 हेवय स्थानसूचक वाक्य, पूण हांतूंत स्थानाचो उल्लेख नां.

8. तो शाळेंत आसा.
9. तो शाळेंत नां.
*10. तो शाळेंत न्हंय.
11. तो आसा.
12. तो नां.

'न्हंय' ह्या निपातरूपाची वर्तणूक पळयतानां हांतूंत संयोजकाचो समावेश नां, अशें दिसता. पूण हाचो इतिहास पळेंवक गेल्यार हाचे घडणुकेंत लेगीत संयोजक आशिल्लो म्हणून कळटा. आधुनीक कोंकणींत आमकां 'हय' (अथवा 'होय') आनी 'न्हंय' हीं रुपां मेळटात. प्राचीन कोंकणींत मेळटात तीं रुपां 'होय' (hoe) आनी 'न्होय' (nhoe). आधुनीक कोंकणींत हीं रुपां क्षीण जावन 'हय' आनी 'न्हंय' जाल्यांत.

प्राचीन कोंकणींत संयोजक केन्नां केन्नां 'हो'चें रूप धरता. 'होय' हाचें सरळ वर्तमानकालीक रूप. सकयल दिल्ल्या वाक्यानीं 'होय' शब्दाचो अर्थ 'आसा', 'हय' न्हंय.

he' sate hoe.
हें सते होए.
(हें सत्य/सत.)

âtâ' mâkâ kallale' tu' tâcho putru hoe.
आतां माका कळलें तुं ताचो पुत्रु होए.
(आतां म्हाका कळ्ळें तूं ताचो पूत.)
âmy' hazâra zari ulailem, tari hoe nâ'.
आमीं हजार जरि उलयलें, तरि होए नां.
(आमी हजार जर उलयलें तर जायनां.)

पूण कोंकणिच्या इतिहासांत ह्या शब्दाचो अर्थ 'आसा' अथवा 'जाता' आशिल्लो तो 'हय' जाला. आनी 'न्होय' (न होय) ह्या शब्दाचो अर्थ 'आसनां', 'जायनां' आशिल्लो तो 'न्हंय' जाला. प्राचीन कोंकणींत ह्या शब्दांचे नवे आनी पोर्ने दोनूंय अर्थ मेळटात.

हिंदींत नकारसूचक 'नहीं' हो शब्द संस्कृत आनी प्राकृत 'नहि' (= केदींच न्हंय) ह्या शब्दा कडल्यान आयला म्हणटात. प्राचीन कोंकणिच्या नकारसूचकाचें मूळ तेंच जाल्यार ताचें रूप महाप्राणत्व पयल्या अक्षराक येतच 'न्हंय' जांवक जाय आशिल्लें. तें 'न्होय' जावपाक कांय ध्वनिवैज्ञानीक कारण नां. प्राचीन कोंकणींत 'न्होय' ह्या शब्दाचो विकास असो जाला जांव येत :

na-hoe → nha-oe → nhoe

पूण पयलीं स्वर समिकरण जालां तर हाचो विकास सकयल दाखयल्ले भाशेन जाला जांव येत.

na-hoe → no-hoe → nho-oe → nhoe

प्राचीन कोंकणींत आनी आधुनीक कोंकणींत 'नाका' हें प्रधान क्रियारूप आनी सहायक क्रियारूप दोनूंय रुपानीं मेळटा. देखीक,

ताका तें नाका.
तें करूं नाका.

'नाका' ह्या उतरांत 'न' घटक स्पश्ट दिश्टी पडटा, पूण 'का' हो घटक प्राचीन कोंकणींत दुसरे कडेन मेळनां. गोंयांत आधुनीक कोंकणिंतूय हो घटक वेगळो मेळनां. पूण दक्षिणी सारस्वत कोंकणींत हो घटक 'न' कुसा शिवाय मेळटा. गोंयकार म्हणटात 'करूंक

जाय', मंगळूरचे क्रिस्तांव म्हणटात 'करिजे', पूण दक्षिणी सारस्वत म्हणटात 'कोरका'. नाका ह्या शब्दांत 'न' चें 'ना' जालां तें फुडल्या अक्षरांत येंवच्या स्वराक समिकरण अशें दिसता.

ह्या लेखांत निमाणो तपासूंक उल्ला तो शब्द 'नुसतें' अथवा 'निसतें': हाचो रूपविकास आनी अर्थविकास. 'निसतें' हें रूप मागिरचें. प्राचीन कोंकणींत हें मेळनां. गोंयांत 'नुसतें' या 'निसतें' म्हळ्यार मासळी. पूण मंगळुरकाराक उदकांत आशिल्ली जिवी मासळी 'निसतें' न्हंय. ताका 'निसतें' म्हळ्यार शिता सांगाता तोंडाक लावपाक तयार केल्लें मासळेचें, मासाचें, अथवा तरकारेचें रांदप. गोंयकाराक दर्यांत, न्हंयत, अथवा तळ्यांत निसतें दिसता, पूण मंगळुरकाराक तें दिसनां. आनी मंगळुरकार तरकारेचें निसतें खाताना तें गोंयकाराक दिसनां. हे परिस्थितींत गोंयकार आनी मंगळुरकार निसत्याची चर्चा करतीत जाल्यार ताचो परिणाम कितें जायत म्हणून सांगूंक जायनां.

प्राचीन कोंकणींत नुसतें म्हळ्यार कितें? दियोगु रिबेयरु हाणें तयार केल्ल्या कोंकणी कोशांत आमकां nuste' आनी nusude' हीं दोन उतरां मेळटात. हीं क्रियाविशेशणां. हांचो अर्थ असो दिला : "Sem porque, sem nada, debalde". 'कारणनासतनां, अशेंच, भेश्टेंच'. देखीक, 'तो नुस्तोची आयलो' म्हळ्यार 'तो असोच आयलो, कांय विशेश कारण नासतनां आयलो' म्हण. ह्या शिवाय 'नुसुदें' ह्या उतराक दुसरो अर्थ आसा : "O que tem com que comer arros". 'शिता सांगाता तोंडा लांवक कितेंय आसा तें' Nussudeâca kâi' nâ' म्हळ्यार 'शिता सांगाता तोंडाक लावपाक कांय नां' म्हण.

नुसतें हाचो अर्थ 'अशेंच' आशिल्लो तो 'मासळी' कसो जालो? हाचो अर्थविकास असो जाला जांव येत : 'अशेंच'→'अशेंच कांय आसा तें'→'शिता सांगाता तोंडाक लांवक अशेंच कांय आसा तें'. कितलो-सो काळ पर्यंत दिसाक तीन फावटी जाल्यारीय कोंकणी मनशाचें जेवण म्हळ्यार शीत आशिल्लें. शिताच्या जेवणां मधें दुसरें

कितें खांवक मेळ्ळें जाल्यार तें लेकाक नां. दिसाक तीन फावटी शीत जेंवकूच जाय. शिता सांगाता तोंडाक लावपाक कांय पण जाय. तें गौण, क्षुल्लक, तोंडाक लावपाक मात्र. मीठ-मिरसांग, चेटणी, कसलोय सार, अशेंच कांय आसा तें. त्या सारांत कांय घट्ट वस्त आसूं येत अथवा नां जांव येत. घट्ट वस्त कांय आसल्यार 90 प्रतिशत ती वस्त मासळी.

रिबेयरान आपल्या शब्दकोशांत nuste', nusude' आनी ह्या शिवाय ह्या शब्दाचें मूळ उतर na-sude' लेगीत दिलां. ताचो अर्थ तोच दिला : "Sem causa" 'कारण नासतनां'. ह्या शब्दांत 'न' चें योजन जालां तें क्रियारुपाक न्हंय, विशेशणाक. रिबेयराच्या शब्द-कोशांत sude' हें उतर मेळनां, पूण ताचें पर्यायरूप sudhe' (< सं. Šuddha) मेळटा. हें विशेशण. हाचो अर्थ रिबेयरान दिला 'नितळ, 'सारखें, सगळें'. 'नुसतें' ह्या शब्दाचो अर्थविकास विलक्षण म्हणूं येत, पूण हांगा जाल्ल्या ध्वनिपरिवर्तनानीं असाधारण कांय नां.

Na-sude'→ nusude' (स्वर समिकरण)→ nusde' (मध्यस्वर-लोप)→ nuste' (व्यंजन समिकरण).

असलें समिकरण आनी मध्यस्वरलोप आमकां दुसऱ्या कोंकणी शब्दानीं पळेंवक मेळटा. नुसतें → निसतें ह्या परिवर्तनांत आमकां स्वर समिकरणाचें आनी एक उदाहरण मेळटा. नुसतें हाचें एक संक्षिप्त रूप 'नुस्त' [nustə] आशिल्लें जांवक जाय जें दक्षिणी सारस्वत कोंकणिच्या 'नुत' [nutə́] अथवा 'नुतचि' [nutə́či] ह्या उतरांत दिश्टी पडटा. 'स्त्' [st] आसा तें दक्षिणी सारस्वत कोंकणिच्या दुसऱ्या शब्दानीं क्षीण जावन 'त्' [t] जायना. पूण 'नुत(चि)' [nutə́(či)] हो शब्द असामान्य. हांतूंत 'चि' हें कूस प्रत्यक्ष अथवा परोक्ष रुपान अवश्य आसूंक जाय. हाच्या प्रभावान बळाघात पयल्या अक्षरार येंवचो तो दुसऱ्या अक्षरार येता. ह्या वरवीं पयलें अक्षर क्षीण जाता. ह्याच कारणान 'स्त्' [st] चें 'त्' [t] जालां अशें दिसता.

## आदारावळ

अनामीक. भारत. कोदेक्स 771 आनी 772, बिब्लियोतेका दा उनिवेर्सिदाद द मीञु, ब्रागा.

रिबेयरु, दियोगु. 1626. वुकाबुलारियु दा लींग्वा कानारीं फेयतु पेलुश पाद्रीश दा कुंपाञिअ द जेजूस क रिजीदेंय ना क्रिस्तांदाद द सालसेत इ नोवामेंत अक्रिसिंतादि कों वारियुश मोदुश द फलार पेलु पाद्रि दियोगु रिबेयरु दा मेजमा कुंपाञीअ, राशोल, गोआ. केंद्रीय ग्रंथालय, पणजी, गोंय. (दुसरो भाग, कोंकणी-पुर्तुगेज). ह्या ग्रंथाची आनी एक प्रती बिब्लियोतेका दा अजूदा, लिजबोआ, हांगा मेळटा. तांतूंत तारीख नां. (MS. Cota 46/VIII/36). आनीक एक प्रती आरकीवु इश्तोरिकु उल्त्रामारीनु, लिजबोआ, हांगा मेळटा. तांतूंत नांव आनी तारीख नां. जूंता द इंविस्तिगासोंइश दु उल्त्रामार हाणीं 1973 इसवेंत हाचे प्रतिकृतिचें प्रकाशन केलां.

---

## प्राचीन कोंकणी लिप्यंकन

a = अ. â = आ. â’ = आं. y = ई. y’ = ईं. u = उ,व्. u’ = उं,ऊं. e’ = एं. eâ = या (e.g. caneâ = कन्या). ch = च् ([ts] आनी इ, ई, ए, य्, हांच्या पयलीं [č]) c, qu = क्. z = ज् [dz] आनी इ, ई, ए, य्, हांच्या पयलीं [ǰ]). s, ss = स्. s, ss = श् (ई, ए, य्, हांच्या पयलीं). tt = ट्. dd = ड्. nn = ण्. ll = ळ्.

# भासविज्ञानी दाल्गाद आनी कोंकणी

*— मातेव आल्मेद, जे.स.*
तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र
आल्त पर्वरी, गोंय - 403 521

**0. प्रवेश.** आज गोंयच्या शाळांनी वापरतात ती, आनी देवनागरी लिपयेंत पुस्तकांनी आनी पत्रांचेर वापरतात ती कोंकणी शणै गोंयबाबाच्या वावराक लागून एक प्रमाण रुपाक पावूंक लागल्या. गोंयचीं क्रिस्तांवां आपल्या इगर्जांनी, भोवशीक तशेंच खासगी मागण्यांनी आनी गितांनी, बायबल वाचनांत आनी प्रवचनांत वापरीत आयल्यांत ती बारदेशी कोंकणी हाचे आदींच एक तरेच्या प्रमाण रुपाक पावलली. ह्या प्रमाणिकरणाच्या वावराचो व्हड वांटो म्हळ्यार ताचेर पडललो मोंसिञोर[1] दाल्गादाचो प्रभाव.

कोंकणी बरोवपाक देवनागरी लिपी वापरून सेबास्त्यांव रुदोल्फ दाल्गादान पयल्यांत पयलें पुस्तक छापलें. देखून कोंकणी उतरां देवनागरींत बरोवपाची पद्दत ताणेंच सुरू केल्ली म्हणुंयेता. ताच्या कोंकणी-पुर्तुगेज कोशाचे प्रस्तावनेंत आपणें कोंकणी उतरां बरोवपाक देवनागरी लिपी कित्याक आनी कशी वापरली हें दाल्गाद आमकां स्पश्ट सांगता. ताचे उपरांतले सगळेच कोंकणी कोशकार आनी कांय बरोवपी दाल्गादाचो कोंकणी-पुर्तुगेज कोश पळेवन शिकल्यात म्हण सांगल्यार चूक जांवची ना. शणै गोंयबाबाचेर त्या कोशाचो बरोचसो प्रभाव पडला. तशें जाल्यार गोंयच्या सगळ्याच कोंकणी लोकाक, रोमींत तशेंच देवनागरींत बरयतल्यांक आनी वाचप्यांक, दाल्गादाची इल्ली तरी वळक आसूंक फावो. कोंकणी खोलायेन शिकून तिचेर चडांत चड सोद वावर करून ह्या विद्वानान आमचे भाशेक अंतरराश्ट्रीय मळार नांव जोडलें हांतूं कांयच दुबाव ना. शेंबर वर्सां आदीं ताणें तयार केल्ले कोंकणी कोश आमी आजून वापरतांव जाल्यार मोंसिञोर दाल्गादाची थोडी तरी वळक करून घेतलली बरी.

---

[1] कांय विंचून काडलल्या पाद्रींक मात मोंसिञोर ही पदवी पापसायब दिता.

**1. दाल्गादाचें जिवीत.** एका भासविज्ञानी विशीं उलयताना ताका आसललें भासांचें गिन्यान, ताणें शिकयल्लीं तत्वां, ताणें केल्लो सोद आनी बरयल्लीं पुस्तकां असल्याच वस्तुंची नोंद जाता. ताच्या जिविता कडे व्हडलेंशें लक्ष कोण लायना. पूण मोंसिञोर दाल्गादान केल्लो तसलो कोंकणिचो सोद वावर करपी भोव थोडे आसात, आनी ताणें हेर भासांचेरूय जायतो मुळावो वावर केल्लो आसा. म्हणताना असल्या म्हान गोंयकाराच्या जिविताचीय [2] आमकां थोडिशी माहिती आसची. इंग्लेजींत आनी रोमी लिपयेंतले कोंकणींत जाल्यार दाल्गादाच्या जिविताची माहिती फा. आंतोन पेरेराच्या पुस्तकांनी वाचूंक मेळता पूण देवनागरी लिपयेंतले कोंकणींत ती मेळना.

**1.1. जल्मगांव आनी कुटुंब.** उत्तर गोंयच्या बारदेस तालुक्यांत, मापशेंचे अस्तमतेक दोंगरां मदें आसगांव मेळता. ह्या सुपुरल्या गांवांत 8 माय 1855 वर्सा सेबास्त्यांव रुदोल्फ दाल्गाद जल्मलो. ताच्या बापायचें नांव आंब्रोज्यु लुवीस दाल्गाद, आनी आवयचें नांव रोजा फ्लोरिंदा द सोजा. त्या काळाच्या चिंतपा प्रमाणें तीं दोगांय कुलीन कुटुंबांतलीं. बापूय सुमाराचें शिकप करून एका साद्या भाटकाराचो वेवसाय करतालो. आपलीं भाटांविटां सांबाळून, गोरवां म्हसरां पोसून आपल्या भुरग्यांक बऱ्यांतलें बरें आनी उंचलें शिकप दिंवक ताणें जायते त्रास घेतले. आवय त्या काळाच्या कुलीन स्त्रियांक फावता तें शिकप आनी संगीत कला शिकून घर सांबाळताली आनी भुरग्यांक वयर काडताली. दाल्गादांक सात जणां भुरगीं, स चले आनी एकलीच चली. एकलो चलो ल्हानपणांतूच भायर पडलो. तांचे उरलले पांचूय भुरगे व्हडले शिकपी, जाणार आनी आपापल्या वेवसायांत फांकिवंत जाले.

दाल्गाद भावां पैकीं जेलास्यु दाल्गाद मुंबय दोतोरकी शिकून, लंडन आनी ऍडिनबरसून शस्त्रक्रियाविज्ञानांत (surgery) उंचली पदवी जोडून भारतांतूच वावुरलो. तो भारताचो व्हड अभिमानी, आनी आपल्या देसाचो इतिहास ताका आवडिचो. ह्याच कारणाक लागून आपल्या देसाचें व्हडपण परगटावपाक आबे फारिया आनी ताची मोहिनीविद्या ह्या विशयाचेर ताणें सोद करून फ्रेंच भाशेंत पुस्तक बरयलें. दुबळ्या

---

[2] भाग 1 आनी 2 हांगा दाल्गादाच्या जिविताचेर आनी वावराचेर दिल्ली माहिती Fonseca, 1956, Pereira, 1981, 1982, 1983, आनी Soares, 1936 ह्या पुस्ताकांतल्यान घेतल्या. ह्या पुस्तकांचीं नांवां आनी तपशील आदारावळींत पळेयात.

बारदेसकारांक मापश्यांच्या आसिलांत फुंक्याक इलाज आनी वखदां मेळचीं म्हण एक निधी उबारली. सावंतवाडींत भलायके विभागाचो मुखेल अधिकारी म्हण वावर करताना त्या वाठारांतल्या आनी भारतांत हेर कडल्या झाडांचो अभ्यास करून तांचें वर्णन करपी आनी तांचे वखदी गूण दिवपी दोन फामाद पुस्तकां ताणें बरयल्यांत. पात्रोसीन हो दुसरो दाल्गाद भावूय लंडनांत वैजुकी शिकून एवरोपांतल्या दोळ्यांच्या व्हड तज्ञां मदलो एकलो म्हण नांवाजतो जालो. दोग जण वकील भावां मदलो ऍदुवार्द दाल्गादान लंडनांत कायद्याचें शिकप करून थंयचो प्रथम गोंयकार बॅरिस्टर जावन नामना जोडली. आमचो सेबास्त्यांव दाल्गाद तर कोंकणिचो पयलो गोंयकार कोशकार, तशेंच भारताच्या आनी संसाराच्या बऱ्याचश्या भासांचो तो पंडीत जांवक पावलो.

**1.2. शिकप.** आवयचे मांडयेर थावन मरणाच्या पलंगा मेरेन सेबास्त्यांव रुदोल्फ दाल्गाद सदांच एक शिकपी आसलो. आवयबापाय कडल्यान, आसगांव आनी मापशें ह्या बारदेस परिसरांत तो आपली म्हॊंवाळ बारदेशी कोंकणी शिकलो. त्या काळाचे गरजे प्रमाणें कोंकणी सांगाताच पुर्तुगेज भासूय तो उलोंवक शिकलो. गांवचे शाळेंत वाचूंक बरोंवक शिकलो, आनी हांगा सुरू जाल्ली ताची पुस्तकांची आवड मरसर वाडत गेली. पाद्रिपणाची ताका ओड आसलल्यान तरणे पिरायेरूच ताचें लांबदीग शिक्षण सुरू जालें. त्या काळार पाद्री जांवक सोदतल्या बारदेसकार तरनाट्यांक सुरवातिच्या शिकपा खातीर मापश्यां वेचें पडतालें. दाल्गाद मापश्यां वचून पुर्तुगेज, इंग्लेज, फ्रांसेज आनी लातीन भासो शिकूंक, आनी तत्वगिन्यानाची वळक करून घेंवक लागलो.

पाद्रिपणाच्या फुडल्या शिकपा खातीर रायतुरचे (राशोल) सेमिनारीक तो गेलो. हांगाचो मुखेल विशय म्हळ्यार धर्मज्ञान (theology). हो विशय त्या काळार लातीन भाशेंत शिकयताले. पवित्र पुस्तक वा बिब्लिया शिकपा खातीर ग्रीक आनी हिब्रू भासांचें मुळावें शिकप हांगा सुरू करचें पडतालें. प्रवचन करप हें पाद्रिचें एक मुखेल काम आसलल्यान वक्तृत्व शिकचेंच पडता. गोंयच्या लोकांमदें वावर करपाक कोंकणी भाशेची चड गरज जाल्ल्यान ही भास वेवस्थीत शिकपाक ताका एक बरी संद मेळली. ही रायतुरची सेमिनरी जेज्वीत पाद्रिंनी स्थापलली. कोंकणी पंडीत तॉमास स्टीवन्स एका काळार हे सेमिनारिचो

रेयतोर वा मुखेल व्हडील आसललो, आनी ताणेंच थंयसर कोंकणी भाशेचो विभाग स्थापललो. कोंकणी कोशाचो वावरूय थंयच सुरू जाल्लो. दियोग रिबेराचो कोंकणी कोश हांगाच मिग्वेल दाल्मेद, आंतोन्यु साल्दाञ आनी हेर कोंकणी जाणकारांच्या आदारान तयार जाल्लो. हें कोंकणी वातावरण आनी परंपरा हे रायतुरचे सेमिनारींत आसलल्यान दाल्गादाकूय कोंकणिचो खोलायेन अभ्यास करूंक स्फूर्त मेळ्ळी आसतली.

रायतुरचें शिकप जातच ताका 1881 वर्सा पाद्रिपणाची माकणी मेळ्ळी आनी मोंते गिरिंच्या कपेलांत ताणें आपलें पयलें मीस भेटयलें. ताचे उपरांत तो चड तेंप गोंयां उरूंक ना. आपल्या उंचल्या शिकपा खातीर रोमा शाराक वचूंक तो भायर सरलो. तारवार आसतानाच रोमांत चड गरजेची आसलली इतालियान भास शिकूंक सुरू केल्ली ती रोमांत म्हयन्या भितर उलोंवक लागलो. ताचें कायदेपंडिताचें शिकप आपोलिनारी विश्वविद्यालयांत दोनूच वर्सां भितर संपोवन कानोन कायदो आनी रोमन कायद्यांत ताणें दोतोर पदवी घेतली. ह्या विशयांनी ताचें येस पळेवन ताका धर्मज्ञानांत दोतोर पदविच्या कोर्सांक हजेरी घालिनासताना परिक्षेक बसपाक परवानगी मेळ्ळी. हे पदवेक ग्रीक आनी हिब्रू भासो शिकच्यो पडतात. त्योय कोर्सांक हाजीर रावनासताना आपणा इतल्याक ताणें शिकून काडल्यो. दोतोर पदवेचे परितक्षेंत ताका पूर्ण येसं मेळून श्रेश्ठताये बिल्लोय मेळ्ळो. ह्या भारतियाक शिकपांत मेळ्ळलें जैत आनी श्रेय रोमांत गाजताना तें त्या वेळाच्या पापसायबाच्याय कानार पडलें. लियांव तेराव्यान दाल्गादाक मोंसिञोर हो मानादीक किताब दिलो. भारतांतल्या पाद्रिंचो दर्जो सुदारपाचो हेतू मनांत दवरून पापसायबान दाल्गादाक भारताक फाटीं वचून थंय वावरूंक सल्लो दिलो. गोंयाक येताना ताणें नोवेंब्रांत 1884 वर्सा पुर्तुगालाक वचून थोडो तेंप लिजबोवा सारलो.

**2. दाल्गादाचो वावर.** मों. दाल्गाद लिजबोवा पावतच पुर्तुगेज सरकारान ताका भारतांत मिशनरी वावराक नेमलो. हाचे आदींच ताणें भारताची प्राचीन भास, संस्कृत शिकूंक धरलली. जर रोबेर्तो दे नोबिली हो इतालियान जेज्वीत संस्कृत इतली बरी करून शिकलो की ताणें संस्कृतांत पुस्तकां बरयलीं आनी संसकृत भाशेंतूच पंडितां कडे चर्चा केली, तशें जाल्यार आपणें एका भारतियान संस्कृत कित्याक खोलायेन

शिकची न्हय? एवरोपी भासो आनी संस्कृत शिकतासताना संस्कृत आनी कोंकणी मदें आसललो संबंद ताच्या लक्षांत आसलो, आनी आपल्या फुडाराच्या मिसांव वावराचो एक वांटो कसो तो त्यो भासो शिकूंक लागलो. आब्रील 1885 वर्सा तो गोंयां पावलो आनी थंयच्यान ताका भारताच्या वेगळ्या वेगळ्या सुवातांचेर काम करपाक नेमलो. खंय खंय तो वावुरपाक गेलो त्या वाठाराची भास तो आवडीन शिकलो. 1886 वर्सा 19 मार्स ताका श्रीलंकेचो विगार जेराल नेमलो, आनी 14 माय तो श्रीलंकेंत पावलो. थंय ताणें सिंहली आनी मलेय भासांचो अभ्यास सुरू केलो. भुरगेपणारूच द्विभाशी (म्हणजे कोंकणी आनी पुर्तुगेज ह्यो दोनूय भासो ल्हान थावन उलोवपी) आसलेल्यान, आनी तरणे पिरायेरूच फ्रांसेज, इंग्लेज आनी लातीन भासो शिकूंक लागलल्यान दाल्गादाक खंयचीय नवी भास शिकपाक बरेंच सोंपें पडतालें जायत. म्हणताना ताका वेगळ्यो वेगळ्यो भासो तुळा करपाचीय संवय जाल्ली. 1887 वर्साचे सुरवातीक तो गोंयां परतलो, कारण तेदनांच श्रीलंका पाद्रोवादा खाल आसललें तें सरळ रोमाच्या प्रोपागांदाच्या[3] अधिकारा खाला आयल्लें.

माय 1887 ते आब्रील 1890 मेरेन तो बंगाळाचो विगार जेराल आसताना कोलकाता रावतालो. थंय तो बंगाळी आनी हिंदुस्तानी भासो शिकूंक लागलो. ह्याच काळांत दाल्गाद कोंकणी भाशेचो अर्थविन्यास आनी कोंकणी उतरांची व्युत्पत्ती संस्कृत कोशांच्या आदारान शिकूंक लागललो.[4] जानेर 1890 ते 1893 आपलो भाव जेलास्यु, सावंतवाडिचो सिवील सर्जन, रावतालो थंय दाल्गाद वचून रावलो. हाचे आदींच कोंकणी भाशेचेर तो जायतें शिकललो, आनी ताच्या आदारान ह्या काळांत मेळतालो सगळो वेळ खर्चून दाल्गादान आपलो कोंकणी-पुर्तुगेज कोश बरोवन काडलो, आनी 1893 वर्सा तो उजवाडा हाडपाचो

---

[3] पाद्रोवादो हें उतर इंग्लेजींत *patronage* जाता. हे पद्दती प्रमाणें पुर्तुगेज सरकारान आपल्या राज्यांत मिशनरी वावराक सर्व तरेचो आदार दिंवक जाय आसलो, आनी तांच्या असल्या वावराचें इनाम म्हण पुर्तुगालाच्या रायाक कांय मान आनी अधिकार दिल्लो. हाचोच एक वांटो जावन आपल्या अधिकारा खाला आसलल्या प्रदेसांत बिस्पाची नेमणूक जाताना कोणाक विंचून काडचो हे बाबतींत ताका बरोच अधिकार आसलो. कांय काळा उपरांत, जेदनां पुर्तुगेज शेक चलनासलल्या भारताच्या हेर प्रदेसांनी आनी आशियाच्या देसांनी मिशनरी वावर फुडें व्हरपा खातीर पापसायबान प्रोपागांदा *(Propaganda Fide)* ही संस्था घडली.

[4] ही खबर दाल्गादूच आपल्या पुस्तकाचे (Dalgado, 1913) प्रस्ताचवनेंत सांगता .

वावरूय केलो. सावंतवाडी आसताना दाल्गाद मराठी बरी करून शिकलो. तशेंच संस्कृत भाशेचो अभ्यास खोलायेन करूंक लागलो. संस्कृत आनी कोंकणी भासां मदलें नातें चड आनी चड शिकताना दाल्गादाक कोंकणिची खाशेली बांदावळ समजूंक लागली, आनी कोंकणी भाशेचीं तत्वां ताणें जिकून धरलीं. म्हणून ह्याच काळांत ताणें एक कोंकणी व्याकरण बरोंवक धरललें. ताचो मसुदो ताच्या मरणा आदीं पणजेच्या भोवशीक पुस्तकालयाक हातबरपाच्या रुपार दिल्लो तसोच आज थंय मेळता.

जेदनां दाल्गादाचो कोंकणी पुर्तगेज कोश पुर्तुगालाक पावलो ह्या कोशकाराची वळक जाली. ताणें वापरलेली विज्ञानीक पद्दत, ताच्या गिन्यानाची खोलाय आनी विस्तार, ताचें कोशविज्ञानाचें तंत्र पळेल्ल्या सगळ्यांक ताची तांक गमली, आनी ताणेंच पुर्तुगेज-कोंकणी कोश रचपाचें काम हातीं घेंवचें अशें तांकां दिसलें. पुर्तुगेज सरकारान कोश आपल्या खर्चार लिजबोवा सरकारी छापखान्यांत छापून काडपाची भास दिली. ताणें हो वावर हातीं घेतलो, आनी 1893 वर्सा होनावार गेल्या उपरांत तो चालू दवरलो. गोंयच्या धर्मप्रांताचो प्रतिनिधी म्हण ताका होनावार धाडललो. आपले जुटयेच्या कामा वांगडाच कोंकणिचो आनी भासो शिकपाचो वावर ताणें चालू दवरलो. थंय आसताना तो कन्नड आनी तमीळ भासो शिकूंक लागलो. मलयाळम भाशेचीय ताका इल्ली वळक मेळली.

दाल्गादाचो पुर्तुगेज-कोंकणी कोश छापूंक तयारी करताना तांतूं वापरलेली कोंकणी बरोवपाची पद्दत, लेत्रां आनी कुरवो जुळपाची वेवस्था, लिजबोवाच्या छापखान्याच्या कामगारांक समजनासल्यो. तांकां मार्गदर्शन दितासतानाच कोशाचो उरललो वावर करूंक, आनी छापून जातां जातां प्रुफां तपासून काडूंक दाल्गादानूच पुर्तुगालाक 1895 वर्सा वेचें पडलें. थंय आसताना लिजबोवाच्या भुगोळीक संस्थेचो मानादीक वांगडी म्हण ताका विंचून काडलो. 1905 वर्सा ताच्या कोंकणी-पुर्तुगेज कोशाची उजवाडणी जाली. हाका लागून दाल्गादाच्या वावराची आनी ताचे विद्वत्तेची नोंद एवरोपांत जाली. पापसायबान ताका आपल्या घरदाराचो मानाचो अधिकारी ही पदवी दिली. लिजबोवा पुर्तुगेज सरकारान दाल्गादाक मिशनरी वावरांतल्यान सेवानिवृत्त करून ताका सोद वावरांत सगळो वेळ खर्चूंक फुर्सत करून दिली.

दाल्गादाकूय तेंच जाय आसलें. आतां तो संस्कृत भास चड खोलायेन शिकूंक लागलो. तेच बराबर तो पुर्तुगेज आनी जर्मन आनी हेर पुर्वे कडल्या भासांच्या तज्ञांच्या आदारान शब्द इतिहास हो विशय खोलायेन शिकूंक लागलो. सांगाताच आपणाक आरबी आनी फारशी कोश वापरूंक जाय पडतली तितली जर्मन आनी आरबी भासो तो शिकलो. कोंकणी उतरांचे व्युत्पत्तिचो सोद लांवक उदेंतिच्या आनी एवरोपी भासां वांगडाच आरबी आनी फारशी भासांचीय ताका बरीच गरज दिसली.

1907 वर्सा मों. दाल्गादाक लिजबोवा विश्वविद्यालयान संस्कृत भाशेचो प्रोफसोर नेमलो. कोंकणी आनी हेर भासां खातीर ताणें केल्ल्या वावराची नोंद संसारभर जांवक लागली तशी तशी दाल्गादाक पंडितां कडल्यान आनी सरकारां कडल्यान भोवमान मेळत रावले. 1911 वर्सा ताका लिजबोवाचे विज्ञानीक अकादेमीन मानादीक वांगडी करून घेतलो. 1917 वर्सा ताका लिजबोवा विश्वविद्यालयान साहित्यांत मानादीक दोतोर ही पदवी दिली. पूण त्याच वांगडा ताका आसलली दियाबेत वा गोडेंमुताची पिडा दाल्गादागाक चड आनी चड पिडूंक लागली. 1911 वर्सा ताचो एक पांय कातरून काडचो पडलो, आनी 1915 वर्सा दुसरोय पांय कातरचो पडलो. आपले दुकींत आनी कश्टांनी परयान आपले मायभाशेची सेवा करूंक तो फाटीं पडलो ना. कोंकणी वोपारिंचेर ताचो सोद चालूच आसलो. पांगळो जावन खाटयेर आसताना परयान ताणें आपलो कश्टांचो वावर उणें केलो ना. कोंकणी आनी संसाराच्या कितल्याशाच भासांचो तो अभ्यास करीत रावलो. खाटयेर बसून आपल्या विद्यापिठांतल्या शिकप्यांक शिकयतालो. थंयच बसलले कडेच सोद वावर फुडें व्हरूंक आपले भोंवतणी जाय पडपी कोश आनी पुस्तकां ताणें मांडून दवरूंक लायल्लीं. थंयच बसून विद्यार्थ्यां कडे चर्चा करी, तज्ञां कडे वाद मांडी, आनी आपलो निरंतर सोद वावर करी.

आपल्या मायदेसाचो भरपूर मोग दाल्गादाक आसलो. आपले निमाणे दीस गोंयचे भुंयेर आपल्याच लोकां मदें सारूंक तो आशेतालो. पूण ताचे बदलाक पुर्तुगालांतूच ताचो बरोचसो मोलादीक वावर ताच्या निमाण्या धा वर्सांनी उजवाडाक आयलो. त्याच काळांत शब्द इतिहासाचेर बरयल्ले ताचे तीन मुखेल खंड उजवाडा आयले. ताच्या निमाण्या दिसांनी ताचो वावर कोंकणी खातिरूय चालू आसललो. ताणें

बरयल्लो कोंकणी वोपारिंचो झेलो (*Florilégio de Provérbios Concanis*) हें पुस्तक छापखान्यांत आसलें, आनी ताचीं प्रुफां तो तपासतालो. मरणाच्या आदल्या दिसा मेरेन दाल्गादाचो सोद वावर आनी प्रुफां तपासप चालू आसलें. 1922 आब्रील 4 तारकेर मोंसिञोर सेबास्त्यांव दाल्गादाक सासणाचो विसव मेळलो, आनी हो म्हान विद्वान अमर जालो.

**3. कोंकणी कोशकार.** 19-वो शेंकडो खऱ्यांनीच भारतीय भासांच्या कोशकारांचो शेंकडो म्हळ्यार जाता, कित्याक ह्या शेंकड्यांत, चड करून दुसऱ्या अर्दांत, व्हड व्हड कोशकारांनी भारतीय भासांचे म्हाकोश उजवाडाक हाडले, आनी त्या भासांक एक गरजेचो आदार मेळलो. सकयल दिल्ली वळेरी हें स्पश्ट करता.

1831 जे.टी. मोल्स्वर्त्, मराठी-इंग्लेज कोश.
1851 मोनियर विल्यम्स्, इंग्लेज-संस्कृत कोश.
1873 जे.टी. मोल्स्वर्त्, इंग्लेज-मराठी कोश.
1883 आंजेलो माफेय, इंग्लेज-कोंकणी आनी कोंकणी-इंग्लेज कोश.
1893 सेबास्त्यांव रू. दाल्गाद, कोंकणी पुर्तुगेज कोश.
1894 एफ्. किट्टल, कन्नड-इंग्लेज कोश.
1905 सेबास्त्यांव रू. दाल्गाद, पुर्तुगेज-कोंकणी कोश.

वयले वळेरेंत कन्नड-इंग्लेज कोश एक सोडल्यार, दाल्गादा चे दोनूय कोश अखेरेक येतात, पूण कोंकणिच्या मानान ते चड म्हत्वाचे. माफेयचो कोश ताचे आदींच उजवाडाक आयल्लो हें खरें. कोशविज्ञानाचे नदरेन जाल्यार दाल्गादांच्या कोशांक चड म्हत्व आनी खोलाय आसा, कित्याक तांतूं मेळता ती उतरावळ, व्याकरणी माहिती, अर्थ आनी व्युत्पत्ती, वाक्प्रयोग, आनी हेर बारिकसाण माफेयच्या कोशांत मेळना. माफेय आपुणूच ती भास शिकपी आनी हेर भास शिकप्यांक उपराक पडपा खातीर ताणें कोश बरयला.

**3.1. दाल्गादाचो कोंकणी-पुर्तुगेज कोश.**[5] एवरोपा थावन फाटीं येतच सुमार आट वर्सां वा ताचेहून अदीक, आपणाक मेळिल्ल्या सगळ्याच

---

[5] 3.1 आनी 3.2 ह्या दोन विभागांतली बरिचशी माहिती दाल्गादाच्या कोंकणी-पुर्तुगेज कोश, आनी पुर्तुगेज-कोंकणी कोश, हांच्या प्रस्तावनेंतल्यान घेतल्या. परत्यान परत्यान दाल्गाद सांगता वा म्हणता म्हण बरोवन आनी तळटीप दिवन वाचकांक बेजार करचे बदलाक हांगा एकदांच स्पश्ट केलां.

वेळांत दाल्गाद संस्कृत भास शिकतालो. ही भास शिकताना संस्कृत आनी कोंकणी भासां मदले संबंद ताच्या लक्षांत येताले. हे संबंद धार्मीक, विज्ञानीक आनी उंचल्या वर्गाचे उतरावळींत इतलेच न्हय, ते सदांच्या उलोवपांतल्या उतरांनी आनी पदबंदांनी, आनी घराव्या संभाशणांतले उतरावळींत परयान दिश्टी पडताले. असले संबंद व्याकरणी बांदावळींक, नामांच्या आनी क्रियांच्या रुपावळिंकूय लागू जावपी आसात. हे संबंद खंय खंय दिश्टी पडतात तें शिकून काडताना आमचे कोंकणी भाशेचो कोशूच काडललो बरो अशें दाल्गादाक दिसलें. खरें म्हळ्यार हे भाशे कडे कोणेंच चडशें लक्ष घालूंक नासलें. तिका फावो तसलो हे आखे भाशेचो बरो एक कोश काडल्यार ती भास लोकाक शिकोवपाक चड उपकारतलो अशें दाल्गादाक दिसूंक लागलें. इतलें दुर्लक्ष पळेल्ले भाशेचो व्हड कोश रचपाचें काम गोंयांत तरी आपणाक सोडल्यार आनी कोण हातीं घेंवचो ना हें दाल्गादाक दिसतालें. मंगळुरांत जाल्यार ताचे आदींच असलो वावर जेज्वीत आंजेलो फ्रा.शा. माफेयन केल्लो, आनी ताचो व्याकरणी वावर चालूच आसलो. देखून दाल्गाद कोंकणी-पुर्तुगेज कोश तयार करूंक फुडें सरलो.

त्या काळार कोंकणी चडशी एक उलोवपाची भास आसली. धार्मीक मळार मात कांय थोडीं बरपां आसललीं, तींय चडशीं ल्हान पुस्तिकांच्या रुपान. तांचीय बरोवपाची रीत वेवस्थीत नासताली. देकीक, खंय अल्पप्राण आनी खंय म्हाप्राण आसचो, खंय दंत्य आनी खंय मुर्धन्य व्यंजनां वापरचीं हें खबर नासप, गरजे भायर पुर्तुगेज उतरां वापरप, भूतकाळांतले वर्णनेंत मदेंच वर्तमानकाळांत वर्णन करप, असल्यो गजाली त्या पुस्तिकांनी भरपूर मेळतात. सारकी बरोवपाची रीत शिकोवपाक एक बरो कोंकणी कोश गरजेचो आसलो. इगर्जांनी कोंकणी प्रवचना खातीर तशेंच धार्मीक पुस्तकां बरोवपाक पयल्यांत पयलीं पाद्रींक कोंकणी सारकी शिकोवपाची गरज आसली. आपल्या पाद्री भावांक आदार दिंवचे खातीर एक बरो कोंकणी कोश आपणें तयार करूंक जाय हें दाल्गादाक पटलें आनी वावर सुरू केलो.

**3.1.1. कोंकणिची लिपी.** कोश तयार करच्या वावरांत दाल्गादा फुडें आयल्लो पयलो प्रस्न लिपयेचो आसलो. कोंकणी उतरां बरोवपाक खंयची लिपी वापरची? कोंकणिची लिपी भारतीय आसूंक जाय. देवनागरी वा कन्नड लिपी ताका सुचली. कन्नड लिपयेंत **ए** आनी **ऍ**

दाकोवपाक, तशेंच **ओ** आनी **ऑ** दाकोवपाक कुरवो आसलल्यान कोंकणी उच्चार दाकोवपा खातीर तीच चड बरी आसली. पूण कोंकणी एक आर्य भास आसलल्या कारणाक दाल्गादान देवनागरी लिपीच पसंत केली. भारतांत त्या काळार देवनागरी छापूंक सवलतीय आसल्यो. पूण कोंकणी उतरां बरयताना खंयची वर्तनी (spelling) वापरची? संस्कृतांत जाल्यार उच्चार जातात तश्यो व्यंजन आनी स्वर कुरवो बरयल्ल्यान ही भास शिकतल्यांक आनी बरयतल्यांक कांयच एक समस्या उपरासना हें खरें, पूण हेर आर्य भासांनी देवनागरिचो वापर करताना वेगळी पद्दत वापरल्या. हें सगळें चिंतून पळेवन दाल्गादान मराठी बालबोध पद्दत आपणायली. **ज़** आनी **ज** बरोवपाक एकूच कुरू, तशेंच **च़** आनी **च** बरोवपाक एकूच कुरू ह्या कोशांत वापरल्या, पूण खंय **ज़**, खंय **ज**, तशेंच खंय **च़** आनी खंय **च** उच्चार जांवक जाय हाका उपकारतात तसले सादे नेम दिल्यात. खंय खंय ह्या नेमांक आडवाद आसात तेंय कोशांत सांगलां.

गोंयच्या क्रिस्तांवां मदें भोव थोड्यांकूच त्या काळार देवनागरिचें इल्लेशें गिन्यान आसलें. पाद्रींक जाल्यार देवनागरी येच नासली. पूण जायत्या क्रिस्तांवांक रोमी लिपी वाचूंक आनी बरोंवक येताली. हाका लागून कोशांत कोंकणी उतरां दिवपाक देवनागरी वांगडाच रोमी लिपी वापरूंक दाल्गादान थारायलें. कोंकणी उतरां रोमींत बरोंवक त्या काळार वापरांत आसलली विल्यम जोन्स् पद्दत ताणें आपणायली.

**3.1.2. कोश कसो वापरचो.** कोश सुरू करचे पयलीं हो कोश कसो वापरूंक जाय हें बरें वेवस्थितपणीं दाल्गादान समजणी दिल्या. देवनागरी वर्ण आनी तांचे उच्चार समजुपाक उदाहरणां दिल्यांत. हे वर्णमाळेंतले खंयचे वर्ण कोंकणींत उच्चार जायनांत, आनी तांचे बदलाक कोंकणींत कसले उच्चार जातात हें सांगलां. **उ, ऊ, इ, ई** केदनां वापरूंक जाय तें दाकयलां. तशेंच अखेरच्या अक्षरांत आसलले लांब ई-कार आनी ऊ-कार कशे प्रत्यय लायतच मोटवे इ-कार आनी उ-कार जातात तें सुचयलां. कोंकणी उतरां देवनागरींत बरयताना वापरलले अ-कार खंय गळतात हें उदाहरणां दिवन स्पश्ट केलां. अनुस्वार आनी अनुनासिकां मदले फरक दाकयल्यात, आनी ह्या संदर्बार नाकये स्वर आनी नाकयां व्यंजनांचे उच्चार खंय आनी कशे जातात हें स्पश्ट केलां. **र** आनी **श** व्यंजनां आदीं येवपी अनुस्वाराचो उच्चार कसो जाता हें

उदाहरणां दिवन दाकयलां. कोश वापरप्यांक देवनागरी सारकी बरोंवक शिकोवपाच्या इराद्यान जोडाक्षरां बरोवपाची पद्दत, बाराखडी, आनी हेर उपकारा पडपी माहितीय ह्या कोशाचे सुरवातीक दिल्या. कोंकणी उतरां दिताना देवनागरी वर्णमाळेचोच क्रम सांबाळला.

**3.1.3. कोशांतली वेवस्था.** मोंसिञोर दाल्गादान त्या काळांत प्रचलीत आसलल्या कोशविज्ञानाचीं सुत्रां आपल्या कोशांत पाळल्यांत, आनी त्या काळाच्या बऱ्यांतल्या बऱ्या कोशांनी पळेंवक मेळतात ते सगळे बरे गूण आपल्या कोशांत आसचे म्हण जायते त्रास काडून आपलो कोश बरयला. देखून हो एक उत्तम दर्ज्याचो कोंकणी कोश जाला हांतूं मातूय दुबाव ना. ह्या कोशांतली दर शब्द नोंद (lexical entry) अशी आसा: उतर पयलीं देवनागरींत, उपरांत जोन्स् पद्दत वापरून रोमींत, ताचो व्याकरणी वर्ग, ताचे उपरांत पुर्तुगेजींत उतराचो अर्थ, अखेरीक उतराची व्युत्पत्ती. उतराक लागू जावपी पदबंद, वाक्प्रयोग वा खाशेली रचनाय दिल्या. त्या उतराचेर वोपार आसल्यार तीय दिल्या. विकारी विशेशणाची नोंद दिताना पुल्लिंग, स्त्रीलिंग आनी नपुंसकलिंग हीं तिनूय रुपां दिल्यांत. क्रिया नोंद दिताना पुर्तुगेजींत अर्थ दिवपाक सोंपें जांवचें म्हण नामकारी (infinitive) रूप दिलां. क्रिया अकर्मक वा सकर्मक, प्रयोजक रचना (causative) वा भाववाचक रचना (impersonal construction), ही सगळी माहिती दिल्या. उतर खंयच्या वठारांत प्रचलीत आसा वा खंयचे बोलयेंतलें ही माहितीय कोशांत दिल्या. खंयचीं उतरां तीसवाडींत, साश्टींत, नवे काबिजादींत, केनरांत वा सावंतवाडींत वापरतात हीय माहिती दिल्या.

एक शेंकड्या आदल्या चिंतपा प्रमाणेंच दालागादूय एक फरमावपी (prescriptive) कोशकार आनी व्याकारणकार जाल्ल्यान ताच्या कोशांतल्यो कांय गजाली आतांच्या भासविज्ञानींक विचित्र कश्यो दिसतल्यो. तत्सम उतरां शुद्ध आनी तद्भव उतरां अशुद्ध वा भ्रश्ट म्हण तो मानता. देखीक भिरांत हें उतर भ्रांत ह्या उतराचें भश्टल्लें रूप म्हणता. हो अभिप्राय दालगाद ह्या संस्कृत पंडिताचो. विचित्र म्हळ्यार घर हें उतर अशेंच बरयता. संस्कृत बरोवपाची पद्दत वापरलली जाल्यार तें घर् अशें बरोंवक जाय आसलें. ताचे बदलाक र अक्षरांतलो अ-कार गळता, अशें म्हणता. म्हणल्यार थंय स्वरच ना अशें जालें. स्वर नासल्यार तें अक्षर कशें जांवचें? तेंच उतर रोमींत ghara अशें लिप्यंतर

करता. स्वनीम (phoneme) हो विचार दाल्गादा उपरांतलो, आनी तीस-चाळीस वर्सां उपरांत जाल्यार असलो गोंदळ दाल्गादा कडल्यान जांवचो नासलो. ह्याच कारणाक लागून माफेय परयान असलोच गोंदळ करता. आज जाल्यार आमचे कडल्यान असलो गोंदळ जावपाक कारणूच ना.

**3.2. पुर्तुगेज-कोंकणी कोश.** हाचे आदीं सांगलां तशें ताचो पयलो कोश कितलो येसस्वी जाला तें पळेवन त्या काळाच्या पुर्तुगेज सरकारान दाल्गादाक एक पुर्तुगेज-कोंकणी कोश तयार करूंक सुचयलें. तो तयार जातच सरकार आपल्या खर्चार लिजबोवाच्या सरकारी छापखान्यांत छापतलो म्हण भास दिली. पयल्या कोशाक मेळललो येवकार पळेवन दाल्गादाक दुसरोय हातीं घेवपाक स्फूर्त मेळली. ह्या कोशाचे प्रस्तावनेंत दाल्गादान त्या काळार कोंकणी खंयच्या पांवड्यार आसली, तिचो दर्जो वाडोवपाचीं साधनां, आनी कोंकणी साहित्य आनी संस्कृताय सांबाळपाक आनी तांचो विकास करपाक हो कोश कसो उपकारा पडतलो हें सांगलां.

**3.2.1. दाल्गादाच्या काळार कोंकणिची परिस्थिती.** कोंकणी संस्कृत भाशेक मराठी वोन चड लागशिली आसा हें खरें. पूण राजकीय परिस्थितीक लागून गोंयां कोंकणी फाटींच उरली. सोळाव्या शेंकड्यांत धर्मप्रचार जाताना लोकाचो आदलो धर्म, तांचे ग्रंथ आनी तांचे भाशेचेरूय भहिश्कार घातलो. आपली संस्कृतीक गरज भागोवपाक क्रिस्तांवांक पुर्तुगेज मात उगती आसली जाल्यार हिंदू लोक मराठी कडे वळलो, आनी सादो लोकूच कोंकणी वापरतालो. ह्या साद्या लोकाची गरज पळेवन कांय मिशनरि आपूण जावन कोंकणी शिकले, आनी आपल्या सांगात्यांक ही भास शिकोवपा खातीर तांणी व्याकरणां आनी कोश रचले. नव्या धर्माची उतरावळ संस्कृत उतरां वापरून घडयल्ली. असलीं उतरां लोकाक समजनासलीं. गैरसमज टाळपा खातीर चड आनी चड पुर्तुगेज उतरां वापरूंक लागले.

मंगळुरांत कोंकणी लोकाक आपलो धर्म आनी संस्कृताय सांबाळपाक कोंकणिची गरज पडली म्हण थंय कोंकणिचो थोडो तरी विकास जालो, अशें दाल्गादाक दिसलें. थंयच्या कोंकणी लोकाक आपली संस्कृताय सांबाळपाक कोंकणीच चड उपकारली. देखून थंय चड साहित्य रचपांत आयलें. तशेंच व्याकरण, कोश, आनी धर्माची शिकोवण दिवपी आनी

समर्थन करपी पुस्तकां बरयलीं. गद्य आनी पद्य साहित्य लेगीत वाडलें. मुंबयचे गोंयकार, दाल्गादा प्रमाणें, थंयच्या उगत्या वातावरणांत कोंकणी नेमाळीं आनी पुस्तकां उजवाडांवक पावले.

**3.2.2. कोंकणी सुदारपाची गरज.** जेदनां कोंकणिचेर बंदी घालून लोकाचेर पुर्तुगेज बळान थापचे यत्न करताले, तेदनां कोंकणी एक उलोवपाची भास मात उरली. तीय पुर्तुगेज संकरीत भास जायत गेली. कोंकणी शिकपाक आनी शिकोवपाक साधनां नासलीं, वेवस्थाय नासली. कोंकणीची ही गत पळेवन कुञा रिवारान लोकाचें आनी सरकाराचें लक्ष ह्या विशया कडे ओडलें. लोकाची भास संस्कृतायेचें माध्यम आसलल्यान गोंयां लोकाचे भाशेची उदरगत जावपाक जाय. ब्रिटीश वसाहत प्रदेसांनी थळाव्या भासांक मेळतात त्यो सवलती गोंयच्या लोकाक कोंकणी सुदारपाक, शाळांनी शिकोवपाक मेळूंक जाय. वेळ वगडाय-नासताना कोंकणी शिकपाक आनी शिकोवपाक गरजेच्यो सवलती निर्माण जांवक जाय, पुस्तकां उजवाडा हाडचीं, कित्याक लोकाक शिक्षण दिवपाक पुर्तुगेज उपकारना. तांची मायभासूच चड उपकारा पडतली. कोंकणी-पुर्तुगेज मिसळ भास सोडून दिवन, शुद्ध, ताजी कोंकणी भास सांबाळची, आनी सगळ्याच शिक्षणांत ती वापरची. रिवाराचें असलें चिंतप दाल्गादाचेंय चिंतप आसलें.

**3.2.3 दाल्गादाच्या पुर्तुगेज-कोंकणी कोशाचो उद्देश.** गोंयच्या लोकाची उदरगत जावपाक तांची भास कोंकणी सुदारूंकूच जाय. लोक तांच्या संपर्का खातीर, तांच्या शिकपांत आनी बरपांनी बरी कोंकणी वापरूंक लागल्यार तांची संस्कृताय समृद्द जातली हांतूं दुबाव ना. शिकलले लोक, पाद्री आनी हेर फुडारी बरी कोंकणी शिकून तीच वापरूंक लागल्यार सादो लोकूय तांची भास सुदारतले. हाचे खातीर पुर्तुगेज-कोंकणी कोशाची गरज दिसली. कोंकणी उतरावळ वाडोवपाक, गरज आसललीं नवीं उतरां घडोवपाक एक संपूर्ण कोशाची गरज आसली. पुर्तुगेज पुस्तकां कोंकणींत अणकार करपाक हो कोश उपकारतलो. तोंडी भाशेंत आनी उपलब्ध पुस्तकांनी संस्कृतीक मळार आनी साहित्य निर्माण करपाक जाय तसली उतरावळ तयार करची पडतली.

क्रिस्तांव धर्माच्या मळार जाय पडपी उतरावळ कोंकणींत फावो तितली नासली म्हण कितलिंशींच पुर्तुगेज उतरां त्या काळार वापरताले.

दाल्गादान संस्कृत, बंगाळी, मराठी आनी हेर आर्य, आनी कांय द्रावीड भासांचो आदार घेवन उपकारा पडपी बरिंचशी उतरां तयार केल्लीं. तीं ताणें आपल्याच प्रवचनांनी वापरून पळेल्लीं. आपल्या सांगाती पाद्रींक उपकाराक पडतली तसली उतरावळ, पदबंद आनी वाक्प्रयोग तो बरींच वर्सां एकटांय करीत आसलो. ह्योय गजाली आपल्या कोशांत दिवपाचें दाल्गादान थारायलें. वेगळ्यो वेगळ्यो भासो शिकपांत मेळिल्लो आनी कोंकणी-पुर्तुगेज कोश बरयताना मेळिल्लो अणभव एक बुनयाद कशी वापरून पुर्तुगेज-कोंकणी कोश रचूंक दाल्गाद फुडें सरलो. ह्या वावराक मोल्स्वर्त् हाचो इंग्लेज-मराठी कोश एक आदर्श कसो दवरून होनावार आसताना हो वावर दाल्गादान सुरू केलो.

**3.2.4. कोशाचो वावर.** पुर्तुगेज शब्द नोंद करपाक दाल्गादान जुवांव द देउश हाचो *Diccionário Contemporáneo* हो पुर्तुगेज कोश वापरलो. ह्या कोशांतलीं सगळीं पुर्तुगेज उतरां, पदबंद आनी वाक्प्रयोग बरोवन काडतच आपलो कोंकणी-पुर्तुगेज कोश वापरून दर नोंदीक कोंकणींत अर्थ दिताना बरेच कडे दाल्गादाक सारकीं उतरां मेळनांत जालीं. खंय उतरां मेळलीं नांत थंय हेर आर्य भासांच्या आदारान कोंकणी बांदावळीक सारकीं बसतात तसलीं उतरां विंचचीं पडलीं, आनी मेळच नासललीं घडोंवचीं पडलीं. दुसऱ्या दुसऱ्या विशयांक गरज पडपी परिभाशीक उतरावळ हेर भासांनी घडयल्या तशी संस्कृताच्या आदारान घडोंवची पडली. इंग्लेजींत परयान लातीन आनी ग्रीक भासांच्या आदारान तसली उतरावळ घडयल्या. खंयचीं मराठी उतरां कोंकणीक बरीं दिसतीत तसलींय सुचयल्यांत. वावर सुरू करचे आदींच आपल्या कोशाक दाल्गादान एक शीम घालून घेतलली. पुर्तुगेज-कोंकणी कोश 1,000 पानांवून अदीक जांवचो न्हय.

कोशांतल्यो शब्द नोंदी सुरू करचे पयलीं शिकप्यां खातीर कांय उपकारा पडपी कोंकणी भाशेची माहिती दिल्या. कोंकणी उच्चार तांणी सारको करपा खातीर बरीचशी माहिती आनी सुचोवण्यो दिल्यात. **अ** वर्णाचो उच्चार संस्कृत भाशेंत जाता तसो कोंकणींत जायना, आनी मराठींत जाता तसोय जायना हें स्पश्ट केलां. कोंकणींत ह्या स्वराक एक खाशेलो उच्चार आसा, आनी तो उच्चार इंग्लेज *not* आनी *nut* ह्या दोनां मदेगत जाता, अशें वर्णन केलां. भिरंड ह्या उतरांत येता तो लांबोडो अ-कार हाचीय समजणी दिल्या. **ऋ** हो संस्कृत वर्ण कोंकणींत

उच्चार जायना, आनी कृपा हें संस्कृत उतर कशें कोंकणींत कुर्पा जाता तें दाकयलां. कोंकणी संदिस्वरांचो उच्चार कसो जाता तें सांगलां. अनुस्वार आनी अनुनासीक हांचे मदलो फरक कांटो आनी अंक ह्या उतरांच्या उच्चारा वयल्यान स्पश्ट केला. तशेंच संसार, संरक्षण हांचे सारकिल्या उतरांच्या उच्चारांत कसले स्वन येतात तें सांगलां. **च** आनी **ज** ह्या देवनागरी कुरवांक कशे [च़, च, ज़, ज] उच्चार आसात तें दाकयलां. कोंकणींत मुर्धन्य व्यंजनांचो उच्चार कसो करूंक जाय म्हण शिकयताना, **ड** व्यंजनांचे [ड] आनी [ड़] उच्चार कशे आनी केदनां जातात तें उदाहरणां दिवन दाकयलां. असल्या गजालीं वयल्यान दाल्गादाक कोंकणी स्वनवेवस्थेचें कितलें गिन्यान आसलें हें स्पश्ट कळता.

**3.2.5. कोशांतली वेवस्था.** पुर्तुगेज जाणा आसलली शिकपी लोकूच कोंकणी शिकपा खातीर हो कोश वापरतले जाल्ल्यान हांगा कोंकणी उतरां बरोवपाक रोमी लिपीच दाल्गाद वापरता. पूण ही पद्दत कशी नागरी लिपये कडें जुळता तें कोशाचे सुरवातीक स्पश्ट केलां. हांगा एक भोव बरी गजाल दिश्टी पडता, ती म्हळ्यार कोंकणी उतरां बरयताना मोनो अ-कार म्हण आदीं बरयतालो तो सामको सोडून दिला. घडये दाल्गादाक आपणें पयल्या कोशांत केल्ली चूक गमली आसतली.

दर शब्द नोंद पुर्तुगेज उतर आनी ताचो व्याकरणी वर्ग दिवन सुरू जाता. ताचे फाटल्यान त्याच अर्थाचें कोंकणी उतर (वा पदबंद) आनी ताचो व्याकरणी वर्ग. जर ते नोंदीक समानार्थी कोंकणी उतरां आसल्यार तांचो व्याकरणी वर्ग दर उतरा फाटल्यान दिंवचे बदलाक दर लिंगाच्या सगळ्या उतरां उपरांत दिला. नोंद शब्दाक वेगळे वेगळे अर्थ आसल्यार तांकां सगळ्यांक कोंकणी अर्थ दिल्यात. कोंकणी भास शिकतल्यांक ह्या कोशांत जाय तितली कोंकणी उतरावळ आनी पदबंद, समानार्थी कोंकणी उतरां आनी वाक्यप्रयोग, आनी कोंकणी उतरांची व्याकरणी माहिती ह्या कोशांत मेळता.

**4. दाल्गाद आनी तुलनात्मक भासविज्ञान.** मोंसिञोर दाल्गादाक कोंकणी भाशेचें कितलें गिन्यान आसलें आनी तिचो कितलो अभ्यास केल्लो हें हांगा मेरेन दिल्ले माहिती वरवीं स्पश्ट जाता. ताका कितल्योश्योच हेर भासो येताल्यो, आनी तांचे मदें पुर्तुगेज भाशेचें खोल गिन्यान आसलें,

आनी ते भाशेचो मोग, कित्याक ल्हानपणार थावन तो ही भास उलोवन आनी शिकत आसललो. कोंकणी भाशेचेर पुर्तुगेज भाशेचो प्रभाव पडप हें दाल्गादाक साहजीक दिसलें, पूण जेदनां भारताच्यो हेर भासो तो शिकूंक लागलो तेदनां होच प्रभाव ताच्या लक्षांत आयलो. आशियेच्यो दुसऱ्यो दुसऱ्यो भासो शिकताना तांचेरूय जाल्लो पुर्तुगेज भाशेचो प्रभाव ताच्या लक्षांत येनासताना रावलो ना. आपणाक येतल्या सगळ्या आर्य भासांनी आनी द्रावीड भासांनी परयान कितलिंशीच उतरां वा तांचीं पर्यायी रुपां दाल्गादान शिकून काडललीं आनी तांचो तुलनात्मक अभ्यासूय ताणें केल्लो. एका इश्टाचे सुचोवणेक लागून1892 वर्सा लिज़बोवा भरलल्या *Congressu Internacional do Orientalistas* हे परिशदेक दाल्गादान एक निवेदन पत्र धाडललें. तांतूं श्रीलंकेचे एके इंडो-पुर्तुगेज बोलयेचेर अभ्यास करताना आपणाक मेळिल्ली पुर्तुगेज उतरावळ भारताच्या हेर कांय भासांनीय मेळता ह्या विशयाचेर दाल्गादान तयार केल्लें बरप आसलें. शब्द इतिहास आनी व्युत्पत्ती हे दाल्गादाचे आवडिचे विशय जाल्ल्यान तुलनात्मक भासविज्ञानीक वावर ताका त्याच विशयाची एक सभावीक वाड कशी दिसली. आपले कोंकणी-पुर्तुगेज आनी पुर्तुगेज-कोंकणी कोश रचपाचे प्रक्रियेंत हे विशय सदांच ताच्या लक्षांत आसलले.

आशियेच्या भासांचेर पुर्तुगेज भाशेचो प्रभाव हो विशय शिकलल्या आनी चिंतपी लोकांचें लक्ष ओडून घेवपी आसलो. हाकाच लागून *The Times of India* ह्या मुंबयच्या दैनीक पत्रान भारतीय भासांचेर पुर्तुगेज भाशेचो प्रभाव कितलो आसा हाचो सोद लावपाची गरज दाकोवन दिल्ली, आनी दो. जर्सन् दा कुञ ह्या वावराक योग्य म्हण सुचयल्लें. हेरूय तज्ञांनी असल्या वावराची गरज दाकोवन दिल्ली. पूण कोणूच भासतज्ञ हो वावर हातीं घेंवक पावलो ना. असलेच तरेचो वावर, आशियायी पुर्तुगेज बोलयांचेर, दाल्गादान केल्लो जाल्ल्यान ताणेंच ह्याय कार्याक हात घालचो पडलो. सुमार पन्नास भासांचे कोश आनी उतरावळी वापरून हो वावर फुडें व्हरचो पडलो. ती ती भास उलोवपी तज्ञांचो आदार घेवन तांचे भाशेंत वापरांत आसलली उतरावळ खोलायेन शिकून काडची पडली. पिडेन कश्टताना परयान ताणें हो तुलनात्मक वावर चालूच दवरलो. इल्लो इल्लो करून ताचो वावर बरोच वाडलो, आनी अखेरेक तो तीन खंडांनी उजवाडांवचो पडलो.

**4.1. पुर्तुगेज भाशेचो आशियायी भासांचेर प्रभाव.** लिजबोवाचे विज्ञानीक अकादेमीन 1913 वर्सा ह्या विशयाचेर उजवाडायल्लें दाल्गादाचें पयलें पुस्तक *Influência do Vocabulário Português em Línguas Asiáticas.* पुस्तकाचे सुरवातेकूच आशियायी भासांचो नकासो दिला. तांतूं आर्य, द्रावीड, तिबेटो-बर्मीज आनी मोनख्मेर भासकुळांच्यो भासो भारतांत खंय उलयतात, आनी भारता भायर खंय उलयतात तें स्पश्ट दाकयलां. तशेंच सायमो-चिनी आनी मलेय-पोलिनेसियन भासो आशिया खंडांत खंय खंय उलयतात तें पळेंवक मेळता. दर एक भासकुळाचो वाठार दाकयताना मुखेल भासो खंय उलयतात तेंय दाकयलां. देकीक श्रीलंकेची सिंहली आर्यकुळाची सगळ्यांत दक्षिणेची भास हें नकासो पळेतानाच लक्षांत येता. भारतांत आजून एक भासकूळ आसा, ओस्ट्रीक भासकूळ (मुंडारी, संताली, तसल्यो भासो हांतूं पडतात), पूण तें ह्या नकाश्यांत दिंवक ना, कारण तांचेर पुर्तुगेजिचो व्हडलोसो प्रभाव आसचो ना. हो नकासो पळेतानाच दाल्गादाच्या सोदाचो विस्तार आमच्या गमनांत येता.

**4.1.1. पुर्तुगेज भास कित्याक प्रभावी जाली.** वाश्कू दा गामा उपरांत उदेंतेच्या देसांचेर पुर्तुगालाचो प्रभाव वाडत गेलो. पुर्तुगेज पातमारिंनी आशियायी देसांक पुर्तुगेज लोक, तांचो वेपार, तांची भास आनी राजवटकी ह्यो सगळ्यो गजाली वांगडाच पावयल्यो. दर्याचेर तांचो ताबो वाडलो आनी लोका कडे संपर्क वाडोन वेताना तांचे भाशेचो प्रभाव हेरा भासांचेर पडूंक लागलो. थळाव्या संस्कृतायांचेर प्रभाव घालपी नवे वेव्हार, नव्यो वस्तू, वनस्पत, प्राणी, शेती, उद्देग, आदींक लागून नवें चिंतप, नवे दिश्टीकोण आनी नव्यो चाली रितीय इल्ल्यो इल्ल्यो करून भितर सरूंक लागल्यो. हांच्या वांगडाच नवीं उतरां, वाक्प्रयोग आशियायी भासांनी आपणायलीं. पुर्तुगेज उतरां घेताना तीं आपले भाशेचे स्वन वेवस्थेंत बसतीत तशीं बदलुनूय घेतलीं. बऱ्याच देसांनी चड पुर्तुगेज संपर्क आसलले कडे नव्यो पुर्तुगेज बोलयोय निर्माण जाल्यो.

उदेंतेच्या देसांनी हेर भासांच्याकी चड पुर्तुगेज भाशेचो प्रभाव थळाव्या भासांचेर पडला. डच लोक ह्याच देसांनी कितलोसो काळ आशियांत राजवट चलयताले, पूण भोव थोडीं डच उतरां थंयच्या भासांनी आमकां आयकूंक मेळतात. धर्मप्रचाराक लागुनूय पुर्तुगेजिचो प्रभाव वाडललो. बरिंचशीं क्रिस्तांवां पुर्तुगेज भास ह्या देसांनी उलयतालीं. भारता तसल्या

आशियायी बहुभाशी देसांनी धर्म प्रचारा वांगडाच मिशनरिंनी भासांचीय सेवा केली. वेगळ्या वेगळ्या भासांचीं व्याकरणां आनी कोश रचून, वेता थंय सगळ्यां खातीर शाळा काडून थळाव्यो भासो शिकपाक स्फूर्त दिली.

विंगड विंगड कारणांक लागून 17-वो शेंकडो ते 20-व्या शेंकड्याचे सुरवाती मेरेन शुद्ध नासल्यार मिसळ पुर्तुगेज उलोवपी आख्या भारतांत, मलेशिया, बर्मा, सायम, टोंकीन, इंडोचीन, चीन, पर्शिया, तुर्की आदी देसांनी हिंदू, मुस्लीम, जुदेव, मलेय लोक, आनी पुर्तुगेज न्हय ते एवरोपी — हे चडशे सगळे लोक पुर्तुगेज एक सर्वसामान्य भास कशी उलयताले. ह्या कारणाक लागून ह्या सगळ्या लोकांच्या मूळ भासांनी पुर्तुगेज उतरां रिगलीं. दाल्गाद आपल्या पुस्तकांत आशियेच्या 48 भासां विशीं उलयता. धा-बारा भासकुळांच्या भासांची हांगा नोंद जाल्या. भारतीय भासो ह्या पुस्तकांत ह्या क्रमान दिल्यात : कोंकणी, मराठी, गुजराती, हिंदी, हिंदुस्तानी, सिंधी, पंजाबी, काश्मिरी, सिंहली, तमीळ, मलयालम, तेलुगु, कन्नड, तुळु, आंग्लो-इंडियन, इंडो-फ्रांसेज, गारो, बर्मी, तिबेटी, खासी. उदाहरणां दिताना ह्याच क्रमान तीं दिल्यांत आनी तांचे उपरांतूच हेर आशियायी भासांचीं उतरां दिल्यांत. भारतीय भासांनी हेर भासांचीं उतरां उसणें घेवपाची परंपराच आसली. ह्या भासांक संस्कृत एक उतरां घेवपाची खाण जाल्ली, आनी आजूय ही परंपरा जिवीच आसा. तशेंच ह्या भासांनी एकामेका कडलीं उतरां घेतल्यांत तशींच फारसी आनी आरबी भासांतलीं उतरांय घेवपाची तांकां संवय जाल्ली. देकून पुर्तुगेज उतरां घेवप कांय एक व्हडली नविदाद कशी तांकां दिसली ना. पुर्तुगेजी उपरांत इंग्लेज आयली तेदनां इंग्लेज उतरां जायतशीं ह्यो भासो घेंवक लागल्यो.

**4.1.2. पुर्तुगेजिचो प्रभाव कसो वाडलो.** पुर्तुगेज राजवटकी, वेपार धंद्याक लागून संपर्क, राजकारणी प्रभाव, पुर्तुगेज वसाहत शेजाराक आसप, धर्मप्रचार, कांय शारांनी जायत्या भासांचे संपर्क, प्रभावी भाशेचो समाजीक दर्जो, पुर्तुगेज आनी भारतीय भासांचो संपर्क, असलीं आनी हेर कारणां सगळीं सांगाता वा एकेकूच घेतल्यार हे भाशेचो प्रभाव वाडोंव शकतात, जांव तीं साद्या लोकाच्या तोंडांतलीं जांव तीं व्हडांगेल्या तोंडांतलीं उतरां. हांगा दर एका मुद्द्या फाटल्यान दाल्गाद दिता तीं कोंकणी उदाहरणां हांगा दिल्यांत.

1. क्रिस्तांव धर्माचो प्रभाव (कोंकणी उतरां नासलले कडे) - आल्तार, कूर, इगर्ज, कुमसार, आल्मेत (आगबेंत), मिसाल
2. नवी संस्कृताय भितर सरली - परबीं, उब्रिगाद, ग्राव, गोस्त
3. नवी वनस्पत - काजू, अनस, आनोन, पोपाय
4. समाजांत दर्जो वाडलो तेदनां - मेस्त्री, कुजीन, दोस, पांव
5. सोंपेपणी अर्थ व्यक्त करूंक येवपाक - आया, बांक, ग्राद, सोर्त
6. कांय उतरां थळाव्या उतरां बदलाक - बुराक, चावी, पाग, रेंद
7. अशियायी उतर इंडोपुर्तुगेजी कडल्यान घेवप - गुदांव, पीर, रोत

**4.1.3. पुर्तुगेज उतरां कशीं बदलून घेतल्यांत.** उतरां उसणें घेताना आपले भाशेच्या रूपविन्यासाक सारकीं पडतीत तशीं बदलून घेंवची संवय सगळ्याच भासांक आसा. *Bebado* घेताना *बेबदो* जाता; ताका रूपां लावन *बेबदिकाय, बेबदेपण, बेबदूल* अशेंय जाता. *Casar* ही क्रिया *काजार* नाम म्हण कोंकणींत वापरलां, कूस लावन तें *काजारी* जाता, आनी फुडें *काजार कर* अशें क्रियापद घडयलां. *Justo* हें विशेशण *जुस्त* एक क्रियाविशेशण जाता. तशेंच *certo* > शेर्त.

चडश्या उसण्या उतरांनी स्वनबदल जाता. अशें स्वनलोप जायते कडे जाता : *igreja* > इगर्ज, गिरजा (हिंदी)[6]; *evangelho* > वांजेल; *indulgência* > दुल्जेन्स; *armário* > आरमार; *vigário* > विगार. कांय कडे नाकयो स्वन मदें घातललो आसता: *fita* > फींत. कांय कडे आदलो उच्चार कोंकणींत आयला पूण पुर्तुगेजींत बदल्ला: *chapéu* > चेपें; *chinela* > चिनेलां; *chave* > चावी. कांय वेळा मुर्धन्य उच्चार र-कारा बदलाक येता: स्वरभक्ती वापरूनय बदल जाता: *grade* > गराद; अल्पप्राण म्हाप्राणांत बदलता: *camisa* > खोमीस.

ह्या पुस्तकाचो मुखेल भाग एका कोशा वरीच दिसता. दर शब्द नोंद पुर्तुगेज उतराच्या रुपार आसा. ताचे उपरांत दर आशियायी भाशेंत तें उतर खंयच्या रुपार घेतलां तें दिलां. मूळ पुर्तुगेज उतराक विज्ञानीक उतर आसल्यार तें कंसांत दिलां. दर पानार कितलेशेच तळटीप दिल्ले आसात, ते त्या त्या घेतलल्या उतरा विशीं बरिचशी चडीत माहिती दितात.

व्युत्पत्ती कोशा फाटल्यान तांतूं आयल्ले दर भाशेच्यो मांडावळीन

---

[6] जर दिल्लें उदाहरण कोंकणी उतर जाल्यार तशें सांगूक ना. जर तें हेर खंयचेय भाशेंतलें आसल्यार कंसांत भाशेजें नांव दिलां.

वळेऱ्यो दिल्यात. पयले वळेरेंत कोशांत आयल्लीं सगळीं पुर्तुगेज उतरां क्रमान दिल्यांत. दर उतरा फाटल्यान ज्या भासांनी तें उतर वा ताचें रूप घोळता त्या भासांचीं आद्यक्षरां दिल्लीं आसात. ताचे उपरांत दर भाशेंत येतात तीं पुर्तुगेज उतरां एकटांय दिल्यांत. जर मूळ पुर्तुगेज उतराक ते भाशेंत कसलोय खाशेलो अर्थ आसल्यार हाचीय नोंद जाल्या.

**4.2. पुर्तुगेजिचेर आशियायी भासांचो प्रभाव.**[7] पुर्तुगेज आनी आशियायी लोकां मदें सुमार पांच शेकडेभर संपर्क आसलले तितलेंच न्हय, तर तांचे मदें कांय लोक लग्नांत परयान एकवटलले. बरोचसो आशियायी लोक पुर्तुगेज भास उलयताले, आनी कांय जण ते भाशेंत बरयताले परयान. तशें जाल्ल्यान कांय आशियायी उतरावळ पुर्तुगेजीन उसणें घेतली जाल्यार तांतूं कांयच अजाप ना. मोंसिञोर दाल्गादाचें *Glossário Luso-Asiático* हें दोन खंडांनी उजवाडायल्लें पुस्तक ह्या आमच्या विशयाचेर भरपूर विज्ञानीक माहिती दिता. तांतली 13 पानांची आदारावळ पळेतानाच ह्या बरोवप्याच्या गिन्यानाची इल्लिशी तरी जाणीव जाता. शब्द इतिहास आनी व्युत्पत्ती हे दोन विशय दाल्गाद आपल्या पुस्तकांनी दिता. हाकाच शेंबर वर्सां आदीं भासविज्ञान म्हणताले. खरें म्हळ्यार हे विशय इतिहासीक भासविज्ञान आनी तुलनात्मक भासविज्ञान ह्या दोनां खाला येतात.

**4.2.1. पुर्तुगालाचेर उदेंतेचो प्रभाव.** इतले वेगळे वेगळे तरेचे मनीस, देस, रंग, भासो, रिती रिवाजी, भूगोळ, झाडां, प्राणी, सुकणीं, संस्कृतायो, धर्म, चिंतप – ह्या सगळ्या कडे पुर्तुगालाक आपल्या वसाहतींक लागून लागशिले संबंद आयले. त्या सगळ्यांचो प्रभाव एक ना एक तरेन पुर्तुगालाचेर पडलो. पुर्तुगेज मनशांक वसाहतिंतल्या लोकां कडे, चड करून आपल्याच धर्माच्या लोकां कडे, लागशिले संबंद दवरताले, कित्याक ते देस आपल्या मूळ देसाचेच वांटे कशे मानताले. वसाहतिंनी जल्माक आयल्ले पुर्तुगेज आपणांक इंडियन वा आफ्रिकन म्हणून घेंवक परयान फाटीं सरनासले. तांचो राजा लेगीत भारतीय राजाक आपलो भाव म्हण आपोंवक फाटीं सरनासलो.

तसल्या संबंदांक आनी मनोभावाक लागून पुर्तुगालाक वसाहतीं कडेय लागशिले संबंद आयले. पुर्तुगालाक लागून हेरूय एवरोपी देसांक

---

7 ह्या विभागांत वापरल्या ती सगळी माहिती दाल्गादाच्या *Glossário Luso-Asiático* ह्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंतल्यान घेतल्या.

आशियायी देसां कडे संबंद येंवक लागले. आशियायी आनी एवरोपी राश्ट्रां मदें वेपारी संबंद वाडले. हाका लागून तांचे मदें भूगोळीक, मानवविज्ञानीक *(ethnological)*, नवीं जनांगां, भासो, आदीं कडे संपर्क जांवक लागले. ह्या सगळ्याचो परिणाम जावन तुलनात्मक अभ्यास जांवक लागले. नवें चिंतप, नवे दिश्टिकोण, उदेंतिकरण भितर सरलीं. हाचो प्रभाव भाशेचेर आनी भासविज्ञानाचेरूय पडलो.

**4.2.2. पुर्तुगेजिचेर आशियायी भासांचो प्रभाव.** वेगवेगळ्या विशयांच्या तज्ञांनी आशियायी भासो, संस्कृताय, इतिहास आदी शिकून बरयल्लीं पुस्तकां पुर्तुगालांत उपलब्ध जांवक लागलल्यान उदेंतिची बरीचशी माहिती थंयच्या लोकाक मेळूंक लागली. मिशनरिंनी बरयल्लीं पुस्तकां आनी पर्यटकांचीं प्रवासवर्णनां वांगडाच त्या देसांतली उतरावळ एवरोपाक पावलली. पुर्तुगेज आनी आशियायी संपर्काक लागून पुर्तुगेज भासूच आशियेची एक संपर्कभास *(lingua franca)* कशी बरेच कडेन पसरली. हेर एवरोपी देसांतलो लोकूय उदेंतेक आसताना हिच भास वापरताले. असल्या कारणांक लागून क्रियोलिकरण कांय कडे जालां.

**4.2.3. आशियायी भासांचो हेर एवरोपी भासांचेर प्रभाव.** इतालियन आनी फ्रांसेज पर्यटक पुर्तुगेज वसाहतिंनी येवन रावताले, आनी तांणीं बरयल्लीं पुस्तकां एवरोपाक पावलीं तशीं आशियेची उतरावळूय एवरोपाक पावली. उपरांत डच, इंग्लेज आनी फ्रांसेज वसाहती जांवक लागल्यो. थंयच्यानूय आशियायी उतरावळ एवरोपांत पसरली. जें कितें आपणें आयकल्लें, आनी पुर्तुगेजां कडल्यान शिकिल्ले, ह्या सगळ्याचो प्रभाव आख्या एवरोपाच्या देसांनी विस्तारलो.

पुर्तुगालाच्या आशियायी वेपाराक लागून लिजबोवा शार म्हळ्यार एवरोपाचो बाजारूच कशें जाल्लें. हांगाच्यान आशियायी उतरावळ पसरली. चड वापरांत आयल्लीं उतरां एवरोपाच्या भासांनीय घेतलीं. तीं उतरां दर भाशेंत स्वनवेवस्थे प्रमाणें बदललीं. कांय आशियायी वस्तूंक पुर्तुगेज नांवां दिललीं आसलीं, तींय हेर एवरोपी भासांनी घेतलीं.

**4.2.4. घेतलल्या उतरांनी बदल.** तोंडी भाशेंतल्यान बरपी भाशेंत आशियायी उतरां वेताना बदल जाले. त्या उतरांचो अर्थ बदलपाची प्रक्रिया वेगळ्या वेगळ्या कारणांक लागून जाली. पळेल्ल्या वस्तुंचीं नांवां आनी पुस्तकांनी वाचून शिकललीं नांवां, हांचे मदें फरक जांवक लागले. गैरसमज आनी लौकीक व्युत्पत्ती, हांकां लागून बरोचसो बदल जाला.

कांय वेळा पुर्तुगेजींत एक वस्तूक दिल्लीं नांवां हेर भासांनी अणकार करून बदल जाल्लो आसा. असो घेतलल्या उतरांचो स्वनिमीक, रूप वा अर्थ बदल जाता. मूळ उतरां जेदनां पुर्तुगेजींत बरयललीं दुसऱ्या एवरोपी भासांनी घेताना पुर्तूगेज बरपारितीक लागून हेर भासांनी बदल जाला. देकीक, *Khan ~ chan ~ han ~ kan ~ cam ~ ção; moḍxi ~ morxi ~ mordexim; puḍvem ~ pudvem ~ purvem* तशेंच अदिलशाह > *Idalção,* अडके > *areca;* हिंदू > *hindu* > *indu* > *inde;* मांडवी > *mandovim* असलीं पर्यायी रुपां आयल्यांत.

**4.2.5. पुस्तकांत वापरलली पद्दत.** पुर्तुगेजींत मेळिल्ले सगळे कोश, संबंदीत पुस्तकां, प्रवासवर्णनां, त्या काळाच्यो भासो इत्यादिंचेर दिल्लयो खबरो, असलें सगळें साहित्य आटोवन जिरोवन दाल्गादान पुस्तकांतली सगळी माहिती तयार करची पडली. हें पळेताना ह्या मनशान दोन खंडांनी बरयल्ल्या पुस्तका खातीर केल्लो वावर खरोच विशाल. एकटांय केल्ली सगळी माहिती कशी ह्या पुस्तकांत वापरल्या आनी खंयच्या क्रमान फुडलो वावर आपणें केला तें दाल्गादूच आमकां सांगता.

1. कांय खेरीत कारणांक लागून आपल्या *Influência do Vocabulario Portugês* पुस्तकांत जीं उतरां आपणें आसपावललीं, पयल्यांत पयलीं तीं वेवस्थीत बरोवन काडलीं.

2. पुर्तुगेज, इतालियन, फ्रांसेज, इंग्लेज, एस्पाञोल, डच, लातीन, ह्या भासांनी आसललीं प्रवास वर्णनां, मिशनरिंनी बरोवन धाडलल्यो खबरो आनी वर्णनां वाचून तांतूं येवपी आशियायी उतरांच्यो वळेऱ्यो तयार केल्यो.

3. कांय व्युत्पत्ती सारक्यो आसात जाल्यार तपासपाचें काम करपांत दाल्गादाक आसललें भासांचें विशाल गिन्यान बरेंच उपकाराक पडलें. जर एका पुस्तकांत दिल्ली व्युत्पत्ती चुकिची आसली ती हेरां पुस्तकांच्या आदारान आनी स्वताक आसलली भासांची माहिती वापरून दाल्गादान ती निटायेर घालची पडली.

4. जाता तितल्या आदल्या आनी हालिंच्या कोशांतली माहिती वापरताना, भारतीय नेमाळ्यांनी दिल्लीय माहिती दाल्गाद विसरलो ना. तशेंच लिजबोवाच्या नेमाळ्यांक येवपी पत्रवेव्हार ह्या संबंदान दाल्गादान आपल्या पुस्तका खातीर वापरला.

5. हे सगळे प्रक्रिये उपरांत जी उतरावळ खात्रेची अशी दिसली, ताची ताणें एक लींप प्रत करूंक धरली, सांगाताच कितेंय दुबाव आसले कडे नोंद करून ती उतरावळ सुदारूंक पळेलें. जाय नासल्यार तांच्या अर्था वा व्युत्पत्तिचेर सोद वावर चालूच दवरचो पडलो.

6. परत परत तपासून आनी तज्ञांचो सल्लो घेवन कांय उतरावळ काडून उडोंवचीय पडली.

ह्या मुद्द्यां वयल्यान दाल्गादान कित्याक 12 वर्सां वा अदीक हे दोन खंड रचपांत खर्चिलीं हें इल्लें तरी गमता. तोच म्हणता तशें हो वावर म्हळ्यार एका म्हासागरांत पागलले भाशेन, कित्याक हजारांनी उतरां पारखप एक सादें काम न्हय चड करूनं जेदनां तांतलीं बरिंचशीं उतरां खंयच्याच कोशांत लेगीत मेळनासलीं. जेदनां तज्ञां मदेंच कांय उतरां विशीं सहमत नासलें हो वावर खरोच त्रासांचो ठरलो. देकीक, कांय उतरां कोशांनी मूळ आरबी म्हण दिल्लीं सारकी परिक्षा करतच तीं एक ना एक भारतीय भासांतलीं म्हण सिद्ध जाल्लें आसा. असली तपासणी करताना ते ते भाशेची स्वन वेवस्था दाल्गादाच्या आदराक पावल्या.

असल्या वावरांत इतली काळजी घेतल्या उपरांतूय कांय गजाली सामक्यो अचूक जाल्यात म्हण सांगूंक जायना. देकीक व्युत्पत्ती दिताना तें कोंकणिंतल्यान वा मराठिंतल्यान घेतलां हें सांगप कठीण, कारण ह्यो दोनूय भासो एकूच मुळाच्यो. तशेंच एक उतर आरबी वा फारशी हें सांगपाक तितलें सोंपें न्हय. खंय उपलब्ध साहित्याच्या आदारान उतर सारकें पारखूं येना थंय टीप दिवन स्पश्ट केलां. दुबाव आसलले कडे एका परस चड पुरावे वापरून मूळ उतर खंयचें तें थारायलां. पुस्तकांत मूळ भासांच्यो लिपयो दिवन तांची बारिकसाण दिल्या, कारण बरोवपाचे पद्दतीक लागून उतरांनी कांय बदल जांव येतात वा दुबाव आसूं येतात.

ह्या पुस्तकाचो मुखेल भाग म्हळ्यार एका कोशाच्या रुपार दिल्ली माहिती. हांतली दर शब्द नोंद अशी आसा : प्रथम, पुर्तुगेज भाशेंत घेतललें उतर, ताचो अर्थ, ताचें स्पश्टिकरण, कशें आनी खंयच्या संदर्भार तें वापरलां. ताचे उपरांत उतराची व्युत्पत्ती. ताचे फाटल्यान त्या उतराचो अर्थ संदर्भा प्रमाणें कसो जाता तें दाकोवपाक वर्सावळी प्रमाणें दिल्ले उपलब्ध साहित्यांतले उतारे. जर आनीक कसलेंय स्पश्टिकरण दिंवचें आसल्यार तळटीप म्हण दिलां. पुस्तकाच्या दुसऱ्या खंडांत आख्या पुस्तकांत आयल्ले उतरावळिचें सुचीपत्र दिलां. हो सगळो

इतले बारिकसाणिचो वावर, तोय इतलो विस्तारीत आनी इतल्यो भासो शिकून आनी तांतलें साहित्य वाचून इतले अचुकपणीं करपाक दाल्गादाक वेळ कसो मेळलो, आनी ताचे पिडेशिडेंत ताका बळ खंयचें मेळलें, ह्यो सगळ्यो गजाली एक अजापशें दिसता.

**4.3. दाल्गादाचो बोलीविज्ञानीक वावर.** पुर्तुगेजिच्या आशियायी बोलयांचेर ताणें जायतो वावर केलो. श्रीलंकेची इंडो-पुर्तुगेज बोली म्हण ताणें एक पुस्तक बरयलां. गोंयची इंडो-पुर्तुगेज बोली, दामांवची इंडो-पुर्तुगेज बोली, उत्तरे कडली (मुंबय आनी त्या परिसरांतली) इंडो-पुर्तुगेज बोली, नागपट्टणाची इंडो-पुर्तुगेज बोली, अशे चार लेख ताणें बरयल्यात. ते भायर *Contribuição para a Lexicologia Luso-Oriental* हें पुस्तक दाल्गादान बरयलां. ह्या पुस्तकांत पुर्तुगेज-आशियायी उतरावळी खातीर गरजेची माहिती हांगा एकटांय मेळता. हो वावर ताच्या तुलनात्मक भासविज्ञानीक वावराचोच एक भाग.

**5. संस्कृत पंडीत दाल्गाद.** संस्कृत म्हळ्यार कोंकणी आपले मायभाशेची आनी हेर सगळ्या भारती भासांची झर, आनी ती खोलायेन शिकून तिचो एक खरो तज्ञ जावपाची ओड मोंसिञोर दाल्गादा थंय सदांच आसली. आपले संस्कृतायेचो इतलो ताका अभिमान कोंकणी-पुर्तुगेज आनी पुर्तुगेज-कोंकणी कोशांनी कोंकणी भास शुद्ध दवरूंक जाय, आनी गरजे भायर पुर्तुगेज उतरां कोंकणींत वापरूं नये म्हण दाल्गाद आमकां परत परत जागयता. खंय खंय कोंकणी उलोवपी गरजे भायर पुर्तुगेज उतरां वापरतात थंय तो आमचे भाशेंत आसात तीं उतरां दाकोवन दिता वा पर्यायी उतरां संस्कृताच्या आदारान घडयता. रोमांत ताचें पाद्रिपणाचें शिकप जावन 1885 वर्सा गोंयां परतल्या उपरांत थावन दाल्गाद संस्कृत भास जिवितभर शिकतालो वा शिकयतालो. 1887 ते 1890 तो संस्कृत शिकपा खातीरूच सावंतवाडी आपल्या भावागेर रावलो. आपलो पुर्तुगेज-कोंकणी कोश छापून घेवपा खातीर लिजबोवा गेल्ले कडे एवरोपी तज्ञां कडल्यान संस्कृत भास आनी शब्द इतिहास शिकतालो.

ताचे कोश पळेवन, ताचीं पुस्तकां आनी लेख वाचून दाल्गाद एक संस्कृत पंडीत आनी शब्द इतिहासाचो तज्ञ म्हण ताची नामना वाडूंक लागली. 1907 वर्सा लिजबोवा विश्वविद्यालयान दाल्गादाक संस्कृत प्रोफसोर नेमलो. थंय 1922 वर्सा ताच्या मरणा मेरेन तो संस्कृत

शिकयतालो. 1911 वर्सा थावन पिडेक लागून पांय कातरतच लेगीत आपलेच कुडींत विद्यार्थ्यांक संस्कृत शिकयतालो.

शिकप्यांक संस्कृत शिकपाक देवनागरी लिपयेंत फावतें व्याकरण आसचें म्हण दाल्गादान 1920 वर्सा आपणें तयार केल्लें संस्कृत व्याकरण उजवाडायलें. हें एक मुळावें व्याकरण. संस्कृत वर्णमाला, स्वर आनी व्यंजनां कशीं बरोंवचीं, कशीं जोडचीं, व्यंजनांचे वर्ग, संधी, जोडाक्षरां, नामरुपां, क्रियारुपां, समास, आनी असल्यो शिकप्यांक जाय पडपी मुळाव्यो गजाली सगळ्यो दिल्यात. ताचे उपरांत कांय सादे पाठ, संस्कृत-पुर्तुगेज आनी पुर्तुगेज-संस्कृत उतरावळी दिल्यात. शिकप्यांक आनी हेर पुर्तुगेज लोकाक संस्कृत साहित्याची इल्ली तरी वळक मेळची म्हण दाल्गादान *हितोपदेश* हाचो आनी म्हाभारतांतले *नल आनी दमयंती* काणयेचो संस्कृतांतल्यान पुर्तुगेजींत अणकार केला.

**6. दाल्गाद आनी कोंकणी लोकवेद.** लोकवेद खंयचेय जमातिच्या लोकाची जाणवाय दाकयता. ही जाणवाय तोंडी परंपरेची. लिखीत साहित्याच्या बदलाक तोंडी साहित्य ही परंपरा आनी संस्कृताय वापरता. लोकाची ही संस्कृताय संगीत, नाच, कथा, गाथा, वोपारी, गितां, वोवयो, कला, नाट्य, विनोद, इत्यादी रुपांनी मेळता. कोंकणी लोकां मदें वोपार ह्या लोकवेद प्रकाराचो चड विकास जालासो दिसता.

वोपारी वा म्हणण्यो लोकवेदाचो एक म्हत्वाचो वांटो, घडये भोव चड म्हत्वाचो. त्यो लोकाचें भांडार, कित्याक थोड्याच विंचणार उतरांनी लोकची जाणवाय आनी शिटुकसाण एकटायता. वोपारी लोकाचे अणभव, नीत, बुद्धी, जाणवाय, चिंतप, संस्कृताय, धर्म, भक्ती, भावार्त, चाली रिती, रिवाजी, सामाजीक मांडावळ, लोकाचे वेवसाय, तांच्यो परंपरा – ह्या सगळ्यांचेर उजवाड घालतात. त्यो तर्क न्हय आनी शास्त्र न्हय. कांय वेळा त्यो इतिहासाचेर, पुराणीक काणयांचेर, वा खऱ्या घडितांचेर आदारीत आसतात. पंचतंत्र आनी हितोपदेशांतल्यो काणयो चडश्यो एका वोपरिचेर मांडून हाडलल्यो आसतात. आनी ह्यो काणयोच बऱ्याच वेळा हेर वोपारिंचो उगम जल्लोय आसा.

उलयताना वोपारी वापरची संवय कोंकणी लोका मदें बरिचशी मेळता, चड करून जाणत्यां आनी बरोच अणभव आसलल्यां मदें. आमच्योच आजयो आनी आवयो कितल्योश्योच वोपारी तांच्या उलोवपांत वापरताल्यो

आमीच आयकल्यात आसतल्यो. तर्क वापरून सुटनांत तसल्यो गजाली वोपारिंतली कुळाची जाणवाय वापरल्यार सुटाव्यो जातात. कोंकणी भास खरीच वोपारिंची एक समृद्द खण. हे खणिंतलें दिरवें दाल्गाद आपल्या वोपारिंचो झेलो *Florilégio de Provérbios Concanis* ह्या पुस्तकांत सगळ्या संसाराक उगतें करता आनी ही जाणवाय कशे तरेन कोंकणी लोकाचें चिंतप उगतायता तें समजावन सांगता. त्यो वाठारा प्रमाणें वेगळ्यो आसतात, वा वेगळो अर्थ दिवपी. असल्यो वोपारी एवरोपांत चडश्यो मेळनांत.

मों. दाल्गादान हें आपलें पुस्तक बरोवपाक कांय जाणांचो वा पुस्तकांचो आदार ना जाल्यार प्रेरणा घेतल्या. दाल्गादान वापरललें पयलें मोलादीक पुस्तक मंगळुरचो पाद्री ए. जे. द सोज हाणें बरयल्लें. कन्नड लिपयेंत बरयल्ल्या ह्या पुस्तकांत 624 वोपारी मंगळुरी बोलयेंत दिल्यात. दाल्गादान वापरललें दुसरें चड मोलाचें पुस्तक रोमी लिपयेंत दुमींग जुवांव मेंदिशान बरयल्लें आनी मुंबय उजवाडा आयल्लें. ह्या दोनूय पुस्तकांनी वोपरिंच्यो नोंदी बेश्ट्यो वर्णमाळेच्या क्रमान दिल्यात. ते शिवाय दुसरी चडशी हेर माहिती, अर्थ वा समजावणी, थंय मेळना. कुञा रिवारा संपादीत तॉमास स्टीवन्साच्या व्याकरणा उपरांत 12 पानांनी वोपारी दिल्यात (तांकां मराठी वास मारता) तांचो अणकार वा अनुवाद मेळता. तशेंच पाद्री माफेयच्या कोंकणी-इंग्लेज आनी इंग्लेज-कोंकणी कोशांत कांय कोंकणी वोपारी दिल्यात. कोंकणिचो प्रोफसोर कोंग जुजे द सोजान बरोवन दवरलल्यो शेंबरांनी कोंकणी वोपारी हात बरपाच्या रुपार गोंयच्यान दाल्गादाच्या हातांत पडल्यो. ह्यो ताका चड उपकारा पडल्यो. दाल्गादानूय आपल्या कोंकणी-पुर्तुगेज कोशांत कोंकणी वोपारी दिल्ल्यो. थंय वोपारिचो अर्थ, जर लातीन, पुर्तुगेज वा दुसरे एवरोपी भाशेंत तसली म्हणणी आसल्यार तीय दिल्ली.

दाल्गादा प्रमाणें वोपारिंचो पुंजो करताना तीन तरेन तो करूं येता : (i) वर्णमाळेच्या क्रमान, (ii) उतरावळी प्रमाणें, (iii) विशया प्रकार. (i) प्रकार ताचे आदीं तयार केल्ल्या पुस्तकांनी आनी संग्रहांनी मेळता. (ii) ताच्या कोंकणी-पुर्तुगेज कोशांत वापरला. ह्या तीन प्रकारां पैकीं (iii) सगळ्यांत चड कठीण आनी ताका चड वावर पडता, आनी तो दाल्गादान आपल्या वोपारिंच्या झेल्यांत वापरला. पुस्तक वापरतल्यांक हो प्रकार चड उपकारा पडता. देकीक, ताचे विशय असले तरेचे आसात : दादल्या-बायलां

मदले संबंद, आवयबापूय आनी भुरगीं, गर्व आनी खालतेपण, गिरेस्तकाय आनी दुबळिकाय, घराव्यो मोनजाती, झाडां, कुडिचे सांदे, इत्यादी. जर एका विशिश्ट संदर्भार एक बरिशी वोपार सोदतलो जल्यार संबंदीत विशया खाला ती सोदूं येता. जर एक वोपार अर्दकुटी येता, वा तिचो अर्थ समजून घेवपाक जाय जाल्यार त्या त्या विशया खाला ती सोदूंक बरेंच सोंपें पडता.

मों. दाल्गादाच्या झेल्यांत 223 विशय हाताळल्यात, आनी ह्या विशयांचेर एकूण 2,177 वोपारी दिल्यात. सगळ्यो वोपारी दिवन जातच विशयांची वळेरी दिल्या. ताचे उपरांत पुस्तकांत आयल्ल्या सगळ्या मुखेल उतरांची सुची दिल्या, आनी तीं उतरां खंयच्या खंयच्या वोपारिंनी येतात त्या वोपारिंचे आंकडे दिल्यात.

झेल्यांत वोपारिंच्यो नोंदी दिताना दर विशया फाटल्यान हो क्रम आपणायला. पयलीं कोंकणींत वोपार दिल्या. ताचे फाटल्यान तेच वोपारीक पर्यायी उतरां वा पदबंद आसल्यार हे परिवर्त दिल्यात. वोपारिचो पुर्तुगेज अणकार, पयलीं अक्षरशः (literal), उपरांत स्पश्ट करपी अनुवाद दिला. उपरांत ही वोपार कोणाक, खंयच्या संदर्भार आनी खंयच्या अर्थान लागू करूंक जायत तेंय सांगलां. वोपारिचें मूळ कितें, तिका इतिहासीक संदर्भ आसल्यार, वा कसली तरी घडणूक ताचे फाटल्यान आसल्यार तीय दिल्या. वोपारिची सामा-जीक फाटभूंय, वोपार खंयचे चाली-रितीक संबंदीत आसा तें सांगलां. वोपारीक थळावो रंग, प्रादेशीक अर्थ वा संदर्भ आसल्यार ताचेंय स्पश्टिकरण केलां. तसलीच वोपार दुसऱ्या भारतीय भासांनी आसत जाल्यार तीय दिल्या. तसली वोपार दुसऱ्या आशियायी भाशेंत आसल्यार दाकोवन दिल्या. तसलीच पुर्तुगेजींत वा हेर एवरोपी भासांनी आसल्यार ताची वळक दिल्या. बऱ्याच वेळा ह्या झेल्यांतल्यो वोपारी आनी तांचीं स्पश्टिकरणां इतलीं बरीं लागतात आनी आवड निर्माण करतात की पुस्तकांत आसात तीं सगळीं एकाच फाराक वाचून काडुंयाशीं दिसतात. खरें म्हळ्यार ह्यो सगळ्यो वोपारी दर फावटीक वापरलल्यो आयकतांव तेन्ना त्यो आमचें खरें कोंकणपण संसाराक पाचारतात अशें दिसता. हाचे वयल्यान दाल्गादाक आपल्या लोकवेदाची कितली आवड आनी अभिमान आसलो हें स्पश्ट जाता. पूण बाबड्याक इतले त्रास घेवन तयार केल्लें आपलें पुस्तक उजवाडा आयल्लें पळेवपाचें भाग्य मेळलें ना. ताच्या इश्टान,

पाद्री जुजे द सोजान, दाल्गादाच्या मरणा उपरांत पुस्तकाच्या सुमार शेंबर पानांचीं प्रुफां तपासचीं पडलीं.

**7. व्याकरणकार दाल्गाद.** मों. दाल्गादाचो कोंकणी-पुर्तुगेज कोश आनी पुर्तुगेज-कोंकणी कोश वापरतल्यांक ताका कोंकणी व्याकरणाचें कितलें गिन्यान आसलें तें रोखडेंच वळकूंक येता, कित्याक सगळ्याच कोंकणी उतरांचें व्याकरणी वर्गिकरण ताणें केलांच. आनीक एक गजाल कांय जाणां विसरतात, कोश म्हळ्यार भाशेच्या व्याकरणाचोच एक भाग. व्याकरणाक लागू जावपी गजाली ज्यो खंयच्याच एका व्याकरणाच्या पुस्तकांत दिंवक येनांत त्यो सगळ्यो कोश एकूच सुवातेर आमकां उपलब्ध करून दिता. म्हणताना दोन व्हड कोश रचून दाल्गादान आपली व्याकरणकाराची ताकद दाकयल्या.

ते भायर ताणें व्याकरणांय रचल्यांत. *Rudimentos da Língua Sanscrítica* हें संस्कृत भाशेचें व्याकरण विद्यापिठांत संस्कृत शिकप्यां खातीर बरयल्लें ल्हानशें व्याकरण. पूण आपले मायभाशेचें एक संपूर्ण व्याकरण बरोवपाचें काम ताणें हातीं घेतललें आनी बरोच वावरूय ताचेर केल्लो. पिडेन वळवळतानाय जाता तितलो वावर केल्लो. जिविताच्या अखेरेच्या म्हयन्यांनी ते आदींच सोंपयल्लो दुसरो वावर ताणें उजवाडांवक जाय आसलो, चड करून ताच्या वोपारींच्या झेल्याचीं प्रुफां तपासपाच्या कामांत ताचो वेळ आनी बळ ताणें घालचें पडलें. कोंकणी व्याकरणाचो एक मसुदो तयार जाल्लो, पूण जेदनां तो आपणाच्यान तपासून, सुदारून, संपादन करून उजवाडावपाक जांवचें ना अशें ताका गमलें तेदनां तो मसुदो पणजे पुस्तकालयांत दवरपा खातीर ताणें धाडून दिलो. ही प्रत आजून पणजेच्या सेंट्रल लायब्रींत आसा. खंतिची गजाल म्हळ्यार कोणेंच गेल्ल्या 80 वर्सांनी हो मसुदो वापरून, तो सुदारून, ताचें संपादन करून हें व्याकरण उजवाडा हाडूंक ना. देवादीन दो. निकलाव पेरेरान असलें काम करपाचे आशेन ताचेर इल्लो वावर सुरू केल्लो, पूण तो फुडें व्हरूंक ताका जालें ना.

आज हें हातबरप इतले नाजूक परिस्थितींत आसा, तें आफडूंक गेल्यार पिटो जावन वचत ही भिरांत दिसता. हालीं सेंट्रल लायब्रीन त्या हातबरपाचें मायक्रोफिल्म करूंक पळेलें पूण तो मसुदो साद्या कागदार बरयला, आनी वापरललें तींत पातळ कागद खावपी. देखून

एके कुशिचें बरप दुसरे वाटेन आयलां. हाका लागून मसुद्याची मायक्रोफिल्म करूंक तांकां जमलें ना. तें डिजिटल कॅमरा वापरून सिडिचेर घातल्यार वाचप्यांक, चड करून संशोधकांक, वापरूंक मेळतलेंशें दिसता.

दाल्गादाचें हें मसुद्यांतलें व्याकरण मातशें वेगळे रितिचें. तांतूं सदांच्या व्याकरणांनी मेळतात तसलीं नामरुपां (Declensions) आनी क्रियारुपां (Conjugations) नांतशीं दिसतात. दाल्गाद कोंकणी व्याकरण बरोवपाक अर्थ रूपविन्यास (semantic morphology) वापरतासो दिसता. देकीक, कुटुंबांतल्या संबंदांचीं उतरां सगळीं एकूच कडे हाताळल्यांत, सैंबाक संबंदीत सगळीं उतरां, तांचे अर्थ, तांची सगळी व्याकरणी माहिती एकूच ठिकाणीं मेळता. ह्या मसुद्यांत व्याकरणी वर्णन दिवपाक पुर्तुगेज भास वापरल्या. वापरललीं सगळीं कोंकणी उतरां पयलीं देवनागरींत, ताचे फाटल्यान जोन्स् पद्दत वापरून रोमींत बरयल्लीं मेळतात. सगळे अर्थ पुर्तुगेजींत दिल्यात. ह्या मसुद्याची डिजिटल सिडी मेळल्यार पुर्तुगेज, देवनागरी आनी रोमी कोंकणी जाणा आसलल्या सोद वावुरप्यांक ह्या व्याकरणाचेर सोद करूंक मेळत.

## आदारावळ:

Dalgado, Sebastião Rodolfo. 1893. *Diccionário Koṃkaṇî-Portugez.* Bombaim: Typographia do Indu-Prakash.

____________________________. 1897. *Hitopadexa, ou Instrução Util.* Lisboa.

____________________________. 1900. *Dialecto Indo-Português.* Separata da Revista Lusitana. Porto: Tipografia de A.F. de Vasconcelos.

____________________________. 1903. *Dialecto Indo-Português de Damão.* Separata da Revista Tassyang. Lisboa: Imprensa Nacional.

____________________________. 1905. *Diccioário Portugês-Koṃkaṇî.* Lisboa: Imprensa Nacional.

Dalgado, Sebastião Rodolfo. 1906. *Dialecto Indo-Portuês do Norte.* Separata da Revista Tassyang. Lisboa: Imprensa Nacional.

______________________. 1913. *Influência do Vocabulário Portugês em Linguas Asiáticas.* Coimbra: Academia das Sciencias de Lisboa.

______________________. 1916. *História de Nala e Damayanti,* episódio de Mahābhārata. Coimbra: Imprensa da Universidade Coimbra.

______________________. 1917. *Dialecto Indo-Portuês de Negapatão.* Porto: Tipografia Sequeira.

______________________. 1919. *Glossário Luso-Asiático, vol. I.* Coimbra: Imprensa Nacional.

______________________. 1920. *Rudimentos da Língua Sanscrítica.* Lisboa: Imprensa Nacional.

______________________. 1921. *Glossário Luso-Asiático, vol.II.* Lisboa: Imprensa Nacional.

______________________. 1922. *Florilégio dos Provérbios Concanis.* Lisboa: Imprensa da Universidade Lisboa.

Dalgado, Sebastião Rodolfo. *Gramática da Língua Concani.* Manuscript preserved in Central Library, Panaji.

Fonseca, Pe. Alfredo José. 1956. *Monsenhor Sebastião Rodolfo Dalgado, 8-5-1855 – 8-5-1955.* Homenagem da Freguesia de *Assagão. Bastora, Goa: Tipografia Rangel.*

Pereira, Antonio, S.J. 1981. *Konknni Xastri DALGADO.* Pilar, *Goa: Xaverian Press T. S.*

________________. 1982. The Makers of Konkani Literature. Pilar, Goa: Xaverian Press T.S.

Pereira, A. 1983. *Dalgado the man and the scholar.* New Delhi: Sahitya Akademi.

Soares, Anthony Xavier. 1936. Reprint 1988. *Portuguese Vocables in Asiatic Languages.* New Delhi: Asian Educational Services.

# शणै गोंयबाबाच्या वावर-विचारांतली सुसंगती आनी विरोधाभास : हेर भारतीय साहित्यिकांच्या संदर्भांत एक चिकित्सा[1]

*– डॉ. किरण बुडकुले*
प्रपाठक, इंग्लीश विभाग
गोंय विश्वविद्यालय, गोंय - 403 206

आधुनीक भारतीय साहित्याचें नांव घेतानाच विवीध भारतीय प्रादेशीक भासांतल्या साहित्यांत आधुनिकतेचें मुळावण घालपी कितल्याशाच दिग्गजांच्या वावराचो उगडास जाता. ह्या रथी महारथीं मदीं गालीब, भारतेन्दू, बंकिमचंद्र, शरदबाबू, टागोर, सुब्रमण्यम भारती, वळ्ळतोळ नारायण मेनन, पुट्टप, कारंथ हांचे वांगडा दलपतराम, झवेरचंद मेघाणी केशवसूत, रॅव्ह. टिळक, फकीर मोहन सेनापती हांचो जसो आस्पाव जाता, तसोच शणै गोंयबाबाचोय जाता, हांतूंत आमकां दुबाव नाशिल्लोच. पूण आज हो साक्षात्कार पुराय भारताक जाला, ही आमचे खातीर खोशेची, अभिमानाची आनी धन्यतायेची गजाल जावन आसा. ह्या साक्षात्कारांतल्यानूच केंद्रीय साहित्य अकादेमी सारकी भारतीय साहित्यविश्वांतली म्हालगडी संस्था हें राष्ट्रीय चर्चा सत्र शणै गोंयबाबाच्या वावराच्या सन्मानार्थ मुंबय शारांत – तागेल्या कर्मभूंयेर – घडोवन हाडून तागेल्या उगडासाक ओंपता. कोंकणी भाशेचो उद्धारक आनी आधुनिकतायेचो मुळावणकार म्हूण शणैच्या कार्याची राष्ट्रीय थरार अशे परीन सार्थक दखल घेतिल्ले खातीर हांव आयोजकांक देव बरें करूं म्हणतां. तशेंच म्हाका ह्या चर्चा सत्रांत वांटो घेवन म्हगेलीं मतां मांडपाक संद दिल्ले खातीर आयोजकांक काळजा सावन दिनवासतां.

फुडें सरचे आदीं, हांगा उपस्थीत कोंकणी लोकांक तशेंच व्हड संखेन हांगा हाजीर आशिल्ल्या हेर भाशी कोंकणी मोगयांक नमळायेन एक

---

[1] हो लेख साहित्याचे मुळावणकार आनी आधुनिकते वटयां वाटचाल ह्या विशयाचेर शणै गोंयबाबाच्या 125 व्या जल्मवर्सा उगडासा निमतान मुंबयंत 3-4 आब्रील, 2004 ह्या दिसांनी साहित्य अकादेमी नवी दिल्ली हांणीं कोंकणी भाशा मंडळ, मुंबय, आनी अस्मिताय प्रतिशठान, गोंय, हांच्या जोड पालवान घडोवन हाडिल्ल्या राष्ट्रीय चर्चा सत्रांत सादर केल्ल्या मूळ इंग्लीश प्रपत्राचेर कांय प्रमाणांत आदारिल्लो आसा. ह्या लेखाचो फुडलो वांटो मुखार उजवाडा येतलो.

चत्राय दितां: आयचे हे भांगरा घटकेक शणै गोंयबाबाच्या वावरविचारांचें निखटें उग्तावण/समर्थन करपांत वा तांचे एकटोशीं मोलांकन करपांत व्हडलो लाभय ना आनी विशेश पुरुशार्थय ना. हाच्या उलट, जर वयर उल्लेखिल्ल्या पुर्वसुरी वा समकालीन भारतीय साहित्यकारांच्या आस्कळ-विस्कळ संदर्भांत शणै गोंयबाबाच्या वावर-विचारांचो सटीक अभ्यास केलो जाल्यार तो सार्थक जातलो. देखून, म्हजे पुरतो ह्या प्रपत्रांत तसो यत्न करतां. मात एक शिटकावणी: तुर्ताक हांगा दाटून शणै गोंयबाबाची तुळा हेर साहित्यिकां वांगडा करचेली मोख ना; मात, हेर भारतीय साहित्यिकांच्या वावर-विचारांक पारकून आपणायताना अभ्यासकांनी कळतां-नकळतां जी सुसंगतीविसंगतिची आलोचनात्मक फास्की वापरल्या, तशेच तरेचे फास्केंत शणै गोंयबाबाचोय वावर पारकून तो तागेल्या ध्येय-दिश्टाव्याक कितलो पुरक, तागेल्या भाशीक-साहित्यीक-समाजीक मोखीं वांगडा कितलो समतोल तशेंच तागेल्या आनी आमगेल्याय काळाक कितलो अनुरूप हें समांतर संदर्भा सयत पळेंवचेलो यत्न हांगा जातलो.

अशे तरेची आलोचनात्मक फास्की फुडले विस्कावणे खातीर वेंचपा फाटल्यान सबळ आनी स्पश्ट कारणां आसात: टिकाकारांक व्हडल्या व्हडल्या लेखक-सुधारक-विचारकांच्या जिणे-वावरांत आनी तांगेल्या विचारांत सदांच सुसंगती सांपडताच अशें ना; उरफाटे, तांगेल्या चिंतपांत तशेंच दिश्टाव्यांत बरेच खेपे टिकाकारांक एके तरेचो अंतरविरोध जांव परस्पर विरोध दिश्टी पडता. हांगा विश्वनाथ त्रिपाठी ह्या समिक्षकाचें – गालीब आनी भारतेन्दू हांचे संदर्भांतलें – पूण वयल्या हावेसाक आदारदिणें अशें मत लक्षांत घेवपा सारकें आसा. म्हान साहित्यिकांच्या आधुनीक तशेंच सुधारणावादी वावर-विचारां विशीं उलयताना तो म्हणता, 'व्हडल्या व्हडल्या बरोवप्यां विशीं म्हाका एक अजापाची गजाल होलमल्या. ती म्हळ्यार, ते आपणाल्या जिणे-अणभवांक सर्वाधीक म्हत्व दितात. म्हणजेच ते स्वता विशीं भोव कठोर (निर्मम) आसतात. तांचे जे विचार आसात, जे सिद्धांत आसात, जें तांकां सांगपाचें आसा, ताच्या विरोधांत ज्यो गजाली उब्यो जातात तांची ते अपेक्षा करिनांत. देखुनूच तांचे बाबतींत जांकां तुमी 'एन्कांवटर वीद सेल्फ' – आपविरोध म्हणतात, तो पावला कणकणीं मेळता. अंतर-विरोध मेळता. म्हूण वाचपी वा टिकाकारांनी तांगेल्या वावराक तांच्या जिणे सांगाता जोडून पळेवपाक लाभदिणें थारता... सामको एकाक एक असो परस्पर

संबंद जोडूंक न्हय... पूण एक ताळमेळ सादूंक पळेंवचे खातीर आनी तसो तो सादूंक मेळलो ना जाल्यार (तेंय) मांदून घेंवक; अशें करप म्हाका अदीक उचीत, अदीक (तर्क) संगत आनी शास्त्रीय दिसताः ('आधुनिकता के रूप'/समकालीन सृजनः पान 165).

हांगा एक प्रस्न उप्रासता. म्हान व्यक्तिचो जिणे-वावर आनी विचारांत असमतोल कित्याक दिसून येता? सरसकटपणान, असो विचारीक असमतोल दिसून येवपा फाटलीं दोन कारणां आसूं येतातः एक म्हळ्यार मुळांतूच एखाद्रे व्यक्तिचे सांगणेंत आनी वागपांत नकळतां तफावत उरूंक शकता; वा ताच्यांत वैचारीक सतर्कताय नाशिल्ल्यान ताचे मदीं काळानुरूप उत्क्रांती जायना आनी म्हूण आचार-विचारांत विसंगती उप्रासता; कांय खेपो, व्हड ध्येय-धोरणांक ओंपून घेवनूय एखाद्री व्यक्ती समाजाभिमूख नासता वा उपगिन्याना सावन वंचीत उरता आनी म्हूण ते व्यक्तिचे आचार आनी विचार विजोड दिसूंक लागतात. दुसरें कारण म्हळ्यार, जरी एखाद्र्या व्यक्तिच्या अंतरबाह्य प्रगती प्रमाण तिगेली/तागेली प्रगल्भता वाडून सुर्वेचो वैचारीक अंतरविरोध सुटावो जावन तिका/ताका विशाळ दिश्टावो फावो जाल्लो आसलो तरिकूय अभ्यासकाक त्या दिश्टाव्याच्या दर्शनी तासां मदीं सुमेळ सादप वा विचारीक वाडिच्या सोंपणां मदीं सुसुत्रताय सोदप/अभ्यासकाक शक्य जायना. अभ्यासकाच्या ह्या विश्लेशणात्मक अपेसाक, ताचे मदीं सुक्षीम समिक्षा दिश्टिचो अभाव आसप, तागेलो अभ्यास/दिश्टिकोण एकांगी आसप वा तागेलो 'अवास्तव' वस्तुनिश्ठतायेचो/तटस्थतायेचो आग्रो आसप, हीं उणीं कारणिभूत थारूंक शकतात. म्हणजेच, विसंगती जशी लेखकाच्या विचारांत आसूं येता तशी अभ्यासकाच्या नदरेंतूय आसूंक शकता.

फुडल्यो कांय देकी हें बरे तरेन स्पश्ट करतल्योः (1) फकीर मोहन सेनापती ह्या आद्य उडिया साहित्यकारान ते भाशे खातीर केल्लो असामान्य वावर वाखाणुनूय, समकालीन उडिया समाजांतल्या उपेक्षीत घटकाक तांगेल्या आचार-विचारांत अक्षम्य अशी तफावत आशिल्ली हें आज जाणवता आनी ताचेर व्हडा प्रमाणांत आक्षेप घेवप जाता. (2) कांय 'राष्ट्रवादी' अभ्यासकांनी भारताचें राष्ट्रगीत बरोवपी म्हान कविराय टागोरांच्या राष्ट्रभावनेचेरूच प्रस्नचिन्ह उबें केलां. तेच प्रमाण, टागोरांच्या मानववादी तत्वांक आनी 'आध्यात्मीक वास्तववादाक' वाखाणतानाच,

कांय अभ्यासकांनी तांगेल्या अस्तंत-मोगी, पुरोगामी वृत्तीक 'ब्रिटीश-धार्जिणेपण' मानपाची लघुदिश्टी दाकयल्या. (3) भारतेन्दू हांच्या प्रखर राष्ट्रभक्तीक आनी आधुनीक नदरेक तोखेतानाच, कांय टिकाकारांनी ब्रिटिशांची तुस्त केल्ले खातीर तांचेर ठपको दवरला तो दवरला पूण खुद्द भारतेन्दून ब्रिटिशांच्या कांय धोरणांचेर केल्ली टिका लक्षांतूच घेतिल्लो ना. अशो आनिकूय देखी आमकां, गालीब, बंकिमचंद्र, रॅव्ह. टिळक आदी व्यक्तीं विशीं मेळूंक शकतात. ही टिका कितली व्यक्तिसापेक्ष, कितली काळसापेक्ष आनी कितली विचारसापेक्ष हांची फोडणिशी करपा जोगी आसा पूण तें करपाची सुवात ही न्हय.

मात अशेच तरेची टिका शणै गोंयबाबाच्या बाबतिंतूय जावप शक्य आसा. देखून, तांगेल्या वावर-विचारांतली सुसंगती तपासून पळेवपाक राजांव आसा. तेच प्रमाण तांगेल्या विचार-दिश्टाव्यांत अंतरविरोध बी आसा व्हय हें पडताळूंक कसलीच हरकत नासची. कारण, तांकां कोंकणी अस्मितायेचे वडील, आधुनिकतायेचे मुळावणकार आनी कोंकणी भास-संस्कृतायेच्या विचार-सुत्राचे जनक म्हूण मांदिल्ले आसात. हाका लागून, कोंकणी भाशी, कोंकणी मोगी आनी कोंकणी वाचपी हांचे नदरेंत ते फकत एक खांपे साहित्यीक – अभ्यासक वा तेजिश्ट झुझारी-वावराडेच न्हय, जाल्यार भूतकालीन दायजा वांगडचो वर्तमान पिळगेचो दुवो, तांचे खातीर एक घणघणीत विचारीक-संस्कृतीक 'वाट-दिवो', आनी भावी पिळग्यां खातीर एक थीर दिपस्तंभ जावन आसा. अशा म्हान साहित्यीक-विचारवंताच्या आधुनिकतायेची वा ताच्या समाज-सुधारक वावर-विचारांची निश्पक्ष विस्कावणी आनी मोलावणी जांवक फावो. मागिरूच तांगेल्या विचारांक आमी मांडून घेंवक जाय. खुद्द तांकां लेगीत कोंकणी लोकां कडल्यान हीच अपेक्षा आसली. तांणीं 'संवसार बुट्टी' हे नवलिकेंत जें पात्रां वरवीं म्हळां तें खुद्द तांकांय तितलेंच लागू जाता. तांतुंतलो एक आत्मो स्पश्टूच म्हणता, '...कोंकण्यांनु, 'म्हजो अणभव आनी येवजण्यो हांवें तुमकां सांगल्यो. आजवेर पळेल्ल्या, वाचिल्ल्या, आयकल्ल्या आनी अणभ-विल्ल्या गिन्यानाचें सार हांवें तुमच्या फुड्यांत दवल्लें. म्हज्या आनी तुमच्या मनाची फटवण करूंक हांवें तुमकां नाका-जाल्ल्यो फटाशी सांगूंक नांत. म्हजी दर अेकली म्हणणी तुमी तुमचे बुद्दिचे साणीर घांसून पळेयात आनी कसाक लागल्यार घेयात'. (मूळ

संदर्भ गोमान्तोपनिषत: 2-340. पळेयात समग्र शणै गोंयबाब खंड 1, पान 116).

वयली शिटकावणी लक्षांत घेवन, शणै गोंयबाबाल्या वावर-विचाराक तागेल्या समग्र जिणेचे चौकटींत नियाळून, तांतूंत कसलोय अंतरविरोध आसा जाल्यार समजून घेवपाची गरज आसा. हें करूंक पळेताना, आपशींच तागेल्या वावरा मुखा वेल्यो तत्कालीन समाज-जिणेच्यो शिमो-मेरो, तेन्नाच्या समाज पुरुशाच्यो विचारीक मर्यादा, खुद्द ताचे मुखा वेले व्यक्तिगत-समाजीक दबाव, समकालिनां वरवीं येवपी बौद्धीक आव्हानां/आडमेळीं हांचो थाव मेळतलो. ते बगर तांगेल्या वावर-विचाराच्यो तत्कालीन मोखी, तांतूंत घडून येवपी स्थित्यंतरां/बदल, तांची समकालीन (आयची) उपेगिता आनी तांचे कालातीत म्हत्व मांडून घेवप कठीण जातलें. कारण, वयल्या वयर तांगेल्या वावर-विचारांक पळेतल्यांक वा वेंचून विशिश्ट मत/घडणूक/सांगपी/विधान संदर्भा भायर विस्कांवक सोदतल्यांक तांचे सांगणेंत वा चिंतपांत अंतरविरोध वा परस्पर विरोध दिसून येंवक शकतात. हें कशें घडूं येता हें एक दोन देखी निशीं सांगपा जोगें आसा.

**देख 1**: शणै गोंयबाब नीज गोंयकारां मदीं अभिमान चेतोवपाक वावुरलो; मर्णपंथाक लागिल्ल्या कोंकणी भाशे विशीं आपुलकाय, लागणूक आनी गर्व कोंकणी हरड्यांत जागोवपाक धाय नाकटां झरोवन कश्टलो; तांगेली नीज अस्मिताय तांणीं वळखुची म्हूण जीव तोडून धडपडलो; भावी स्वतंत्र भारतांत कोंकणी लोकांची खाशेली संस्कृताय आनी भास बाळगूंक तांची हक्काची खेरीत भूंय आसची अशें सपन जियेलो. हाका लागून लघुदिश्टीन विचार करणारे विस्तारवादी आनी 'जैसे थे' ची स्थिती पसंत करपी वांयगणे टिकाकार तांकां एकसंघ (?) समाजाक खंडीत करूंक 'वेगळचार' पातळावपी फुटिरवादी म्हूण सहज कुस्कुटांवक शकतात.

पूण बारिकसाणेन येवजिल्यार तांगेल्या अस्मितायेच्या सपनाची बुन्याद जरी कोंकण्यांलो प्रादेशीक एकवट, भावपण, परस्पर मोग हांची आसली तरी ताचो आवांट वैश्वीक आसलो. आनी विशेश म्हळ्यार ताचो कळस तर्कपुराय आनी जागरूक बुद्दीन विश्वबंधुत्वाक वेंगायतालो हें बेसबरें होलमता. तिसऱ्या कोंकणी परिशदेच्या 'उपकार मांदपी उलोंवपांत ते म्हणतात, 'भाग्यवंत कोंकण्यांनू – भावांनू आनी भैणिंनू – आतां आमी

